# कांटेकुंवर

नयना आडारकार

मित्रसमाज
प्र का श न
गोवा



**कांटेकुंवर/ नयना आडारकार**

---

**प्रकाशक :**

वैभव फोंडेकर

मित्र समाज प्रकाशन

२/४५/१, शनि मंदिर शेजारी, तलवडा, वेरोडा, कुंकळ्ळी, सालसेत,

गोवा- ४०३७०३

मोबा. नं. ९८२३८१३०३९, ९०२८३१२९३२

---



भांगरभूंय, प्रुडेंट बिल्डींग, ३ रा मजला, कामत मेट्रॉपॉलीस,

सांत इनेज, पणजी, गोवा ४०३ ६०२ मोबा. नं. ९८२३५३७५६३

---

**प्रथमावृत्ती :** २८ जुलै २०१९

---

**मुखपृष्ठ :** श्री. अविनाश कुंभार, कोल्हापूर.

---

**अक्षरजुळणी :**

श्री आशीर्वाद एन्टरप्राईजेस,

कोल्हापूर. मोबा. ८२७५००२०२०, ९८९०६३०८४९

---

**मुद्रक :**

शिवम ऑफसेट, कोल्हापूर.

---

₹ : २००/-

---

# ओंपणी

मायेन सांवरपी तुमचे हात - म्हज्या अस्तित्वाची कुरू
सुभाष आनी वीणा सुर्लकार, श्रीनिवास सुर्लकार, शुभलक्ष्मी आनी
तेंडुलकार, सरस्वती आनी दामोदर नायक, अंकिता चव्हाण
म्हज्या काळजांतली ही कांटेकुंवर तुमकां ओंपतां.

# अनुक्रमणिका

१.

# आजयेची काणी

कालचो अख्खो दीस सामको अस्वस्थतायेंत गेलो. सकाळीं उठटनाच एक न्हयकारी घांट कशी काळजांत वाजली आनी अख्खो दीसभर आपलें अस्तित्व दाखोवपाक वाजत रावली.तिच्या अस्तित्वान म्हजें अस्तित्व शेणिल्लेवरी जालें.

हांव कोण? कितें हांव? खंय कमी पडलां? विचार करतां करतां हांव म्हजी तुळा दुसऱ्यां कडेन करपाक लागलें. वचत थंय हांव कमीच पडटालें. तांचे प्लस पॉयंट आनी म्हजे मायनस् पॉयंट. हांव आपशीच तुळा करपाक लागलें. करतां करतां एक निर्शेणी कशी मनांत पात्तळी.

निर्शेणीच ती. तिणें आनी संद सोडली ना. ल्हवू ल्हवू तिणें आपले हात-पांय पसरपाक सुरवात केली. चेऱ्याक वेंगावन ती हाता-पांयाचेर घसरली. थंय निश्क्रियता पातळ्ळी. तिणें बुद्दय आपल्या ताब्यांत

घेतली. विचारांतल्यान, आचारांतल्यान ती झळकूंक लागली. तिची झळ सरभोंवतणचे वातावरणांक लागली.

सांजवेळा हे निर्शेल्ल्या तना-मनाक ओडीत हांव घरा परतताले. बशींत म्हजे कुशीक एक जाण्टेली येवन बसली. ज्युस्त म्हजे आजयेवरी दिसली ती म्हाका. नकळटना आजयेची याद मनाक घुस्पायत गेली. तिचीं उतरां, तिच्यो काणयो याद जावंक लागल्यो. वण्टीक वणखून बशिल्ल्या तिचे भोंवतणी आमी माणकुलीं बशिल्लीं. ती सांगताली,'एक देवाचो भक्त एकदां देवळांत गेलो. देवाक पळोवन ताणें नमस्कार केलो आनी म्हणलें, 'देवा, तुवें ह्या संवसारांत कितल्यो खोसदिण्यो गजाली भरल्यात. त्या खातीर हांव तुजे सदांच उपकारांत उरतलों.'

देव ताच्या उतरांनी प्रसन्न जालो आनी ताणें त्या भक्ताक म्हणलें,'भक्ता, तुवें संवसारांतल्यो खोसदिण्यो गजाली सोदून काडल्यो आनी ती खोस भोगली म्हूण हांव खरेंच तुजेर प्रसन्न जालां.'

आजयेची काणी मनाक आफडीत गेली. करतां करतां मनांत सामकी विरगळ्ळी. मनान आपले भितरूच बागोवन पळयलें. कितल्योश्योच खोसदिण्यो गजाली तातूंत भरून आशिल्ल्यो.

त्या गजालींच्या संवेदनांक मनान तनभर पावयलें. आनी म्हजें तन-मन पर्थून प्रसन्न जालें.



२.

# चिरंजिवी आस

आस जेन्ना मरता
तेन्ना हांव तिका
काळजांत पुरतां
आनी तिका कोंब फुटपाची
वाट पळयत रावतां...

अश्या कितल्याश्याच आशेंक काळीज मातयेक लायलें हांवें. आनी अजाप, दरेक खेपो पुरतकच नव्यान आंकरेली ती आस. आशेक मरण ना हें खरें. चिरंजिवी आस ती. पूण हांव मात हे चिरंजिवी आशेक घेवन अश्वत्थाम्यावरी वणवण भोंवत आसा. आस आंकरेता. फुलतली, चंवरतली म्हूण दिसता दिसता केन्नाच बावून करपून वता. पूण म्हजी जिद्दूय हे आशे परस खर. 'आणि विक्रमादित्याने आपला हट्ट सोडला

नाही...’ तशी म्हजी जिद्द हट्ट सोडिना. ती आशेक खांदार मारून काळजा मातयेंत पुरपाक व्हरता. वस्तुस्थितीचे वेताळ कितल्यो काणयो सांगता, काणयेची जाप मागता. म्हाका ती जाप खबर आसता. वास्तवांतले आशीकुशीक वावुरपी राकेसांच्या हातांत ती जाप घुस्मटल्ली आसता. ते जापेक थंयच्यान मुक्त करप म्हाका जमना. आनी वेताळाक जापूय दिवपाक जमना. वेताळ आशेक सोडून झूऽऽ करून उडून वता. आनी हांव...

... हांव एकटेंच म्हजे आशेक मातयेक लायतां. म्हज्याच दुकांनी ती माती शिंपता. राकेशी करण्यांनी धुमसपी म्हज्या काळजांतल्या रागाचो धग हांव तिका दितां. आनी वाट पळयतां आशेच्या नव्या आंकुराची.

चिरंजिवी आशेची चिरंजिवी वाट...आनी गुणगुणत रावतां एमिली डिकिन्सनाची कविता:

**Hope is the thing with feathers**
**That perches in the soul**
**And sings the tune without the words**
**And never stops at all.•**



3.

# इल्लीशी चोंच

बस चुकतली म्हूण मुखेल रस्त्यान वचनासतना झाडा पोंदचे ते अशीर वाटे वयल्यान हांव मुखार सरलें. इतल्यान अचकीत धप्प करून म्हज्या मुखार एक सवणें पडलें. हांवें सकयल बागोवन पळयलें. ती एक ल्हानशी चिमणी आशिल्ली. आपलो निमणो स्वास घेताली. अचकीत तिचें धपधपपी हड्डें थांबलें आनी तिची इल्लीशी चोंच उकती पडली.

ती सासणा खातीर हें जग सोडून गेली.

हांव बशींत बसून ऑफिसांत आयलें. पूण ते चिमणेची इल्लीशी उकती जाल्ली चोंच म्हजे नदरे मुखारल्यान हाल्ली ना.

आपले ते इल्लेशे चोंचीन टुकूटुकू करून खाण खावपी कितल्योश्योच चिमण्यो नदरे मुखार आयल्यो. घोंटेरांतल्या आपल्या पिलांक आपले ते इल्लेशे चोंचीन भरोवपी चिमण्यो म्हाका याद जाल्यो.

निमाण्या खिणाक ते चोंचीन आतां कांयच करप शक्य ना म्हणून काय तिणे वतना ती चोंच उकती उडयली?

तो विचित्र प्रस्न म्हाका छळपाक लागलो. काम करतना परतो परतो म्हाका पिडपाक लागलो. दोळे धांपल्यार ते उकते चोंचीचे जाग्यार म्हाका हातांचो पसो दिसपाक लागलो. असहाय्य जातकच, अगतीक जातकच मनीस हातांचो पसो मुखार करता. म्हजे नदरे मुखार असंख्य चिमण्यांवरी अश्या असंख्य आवयांचीं तोंडां झळकुपाक लागलीं. आपल्या भुरग्यां खातीर, तांच्या शिक्षणा खातीर धडपडपी आवयांचीं तोंडां. भुरग्यांनी आपल्या पांयार उबे रावून एक बरो नागरीक जावचें अशी इत्सा बाळगुपी आवयो.

पूण म्हारगायेच्या ह्या काळांत शिक्षणूय म्हारगच जालां. आपल्या भुरग्यांचें भविश्य घडोवपा खातीर ह्यो-त्यो संस्था, बँकेच्या दारांनी अगतीकतायेन हातांचो पसो पसरुपी आवयो.

ती इल्लीशी उकती चोंच आनी हातांचो तो इल्लोसो उकतो पसो. म्हज्या मनांतलें द्वंद आजूनय सोंपूंक ना...

... तें सोंपपाची हांव वाट पळयतां.



४.

# एक खीण

'जिंदगी से लम्हा मिले उसे चुरालो...'

एका इश्टाचो एसएमएस आयलो. 'एकूच वळीचो एसएमएस पळय. फुडें बरोवंक विसरलो दिसता.' भुरग्यांनी म्हजीं फकांडां केलीं.

हांव मात ते एके वळीचेर घुस्पून उरलें. कितली अर्थपूर्ण ही वळ. 'जिंदगी से लम्हा मिले उसे चुरालो...' एक खीण... जिणेच्या होमखणांत हुलपता आसतना जिवाक शितळकायेचो अणभव दिवपी एक खीण लेगीत मेळ्ळो जाल्यार झोपय मारून तो घेवचो म्हूण सांगपी ती वळ.

म्हज्या दोळ्यां मुखार संवसाराचें रसरसून पेटपी आगटें उबें रावलें. पयसुल्ल्यान ताची धग लेगीत घेवपाक जायना. त्या आगट्यांतच जर कोणूय पडलो जाल्यार तो जितो तरी उरतलो कसो? उरलोच जाल्यार तंदूर कसो भाजतलो.

'लम्हा चुरालो...' मनान परत ही वळ आळयली. तशे सरसर करून मनाच्या दारार अश्या खिणांच्या मोतयांची रास  पडली. मोती बारीक मोटे, बारिकातले बारीक फालतू दिसपी खिणांचे, तशेंच काळजार कोरांतून उरिल्ल्याय खिणांचे. एक एक मोती उखलून हांवें यादीच्या पोडाक गुंथपाक सुरू केलो तशें काळीज सुखाच्या परमळान घमघमलें.

एक लम्हा... एक खीण... संवसाराचें होमखण... बऱ्या-वायट उतरांचे, घडणुकांचें, मनशांचें आशीकुशीक पेटिल्लें आगटें हातूंतल्यान अचळय कुशीन काडून सुखाच्या तळ्यांत डुबकी मारून हाडपी ते खीण-एक लम्हा...

पूण सदांच जायनात अशे जिणेंतले खीण अचळय कुशीन काडून दवरपाक, म्हणया चोरपाक. कश्ट-त्रासांचें चिवट चिंगम सामकें मचमच करीत आसता जिणेंत. त्या चिंगमाच्या ताब्यांतल्यान असो खीण काडप हें खूब कठीण काम. नितळसाणेन तो खीण-लम्हा आमकां भोगूंकच मेळना. तें चिंगम खंय ना खंय ताका लागिल्लें आसता...

म्हाका अशें चिंगम युक्त खीण लेगीत अचळय कडेक काडून दवरपाची संवय जाल्या. चीक चीक लागतात तरीय खीक खीक हांसूंक मेळटा आनी मन प्रसन्न जावन मात तरी थाकाय मेळटा.



५.

# एक मिनीट शांतताय

सप्तकांतली एक सुटी. दनपारचें जेवल्या उपरांत मातशें आड पडप सभावीकच. आड पडून न्हिदेचें सूख घेतनाच घडम आवाज आयलो. तशें काळजांत कल्ल जालें. ''हीं एक भुरगीं न्हिदपाक लेगीत दिनात. एक मिनीट शांत रावची...ना..त.' हांव अशें म्हणटां थंय आसां, चल्याच्या मोबायलाचेर पद घणघणलें, 'ओम शांती ओम! शांती शांती ओम'! म्हज्या कपलार मिरयो पळोवन आड बी पडून च्या बी घेवन सुस्तावंक बशिल्ल्या म्हगेल्या हाणें थंडसाणीन विचारलें, तुका शांती जाय. जाणा मगो एकदां कोर्टांत......

तो आतां त्या जुविजाचीं उतरां म्हजे तकलेर मारतलो हें म्हाका संवकळीन खबर आशिल्लें. न्हय, ती गजाल म्हाका सामकी पाठ जाल्ली. एका दादल्यान घटस्फोटा खातीर अर्ज केल्लो. जुविजान विचारलें, तुका घटस्फोट कित्या खातीर जाय? त्या दादल्यान सांगलें, म्हजी बायल दीसरात

बडबडटा. म्हाका एक मिनीट लेगीत शांती दिना.

जुवीज हांसलो. ताणें म्हणलें, शांती तुका मेळटली मसणांत. सासणाची. जाय तुका ?सगळी गजाल बरी आसा. पूण जाय तुका अशें म्हणलें म्हणटकच म्हजी तकली सामकी अशांत जाता. आतांय ती तशीच जाली आनी हांव आकांतान आड्‌डलें, एक मिनीट शांती...

आनी कितें अजाप, सगळीं सगळीं एकदम चूप...एक आवाज ना. अशेंच एक मिनीट गेलें. सामकें शांत. ते शांततायेंत हांव घुस्मटूंक लागलें. कोणें तरी उलोवचें अशें दिसपाक लागलें.

शाळेंत एक मिनीट शांतताय पाळूंक लायतकच भुरग्यांचें शांत रावपाचें पा़सियेंस २० सॅकंडांनी सोंपतालें आनी मागीर कोण एकलो हाश्याच्या सोदाची गुड्‌डी फोडटालो आनी मागीर सगळो फसफस....पूण आमगेर शांतीन सगळ्यांचेर मोनेळ घाल्लो. ती शांतताय म्हाका खावपाक लागली. हांवें बशिल्ले कडेन दोळे धांपले. दोळ्यां मुखार सवेचो वर्ग आयलो. . सवेच्या वर्गाची वर्गशिक्षिका डायस. तिची आवय भायर पडिल्ली.  हुसेन आमचो मॉनिटर. मातसो चड शाणो. ताणें दोन दिसां उपरांत आमकां सगळ्या भुरग्यांक पुंजायलीं आनी गेलो टिचरीगेर पाचारपाक. टिचरीन आमकां आपल्या घरांत घेतलें. आमी सगळीं भुरगीं लायनींत जमनीर बसलीं. टिचरीन मागीर सगळी गजाल सांगपाक सुरवात केली. कशें जालें, कितें जालें.... सगळें... सगळें सांगून जातकच टिचर ओगी रावली. भुरगींय शांत... पूण ती शांतताय चड वेळ तिगली ना. खंय तरी खूऽऽक आवाज जालो आनी मागीर खसखस पिकत गेली. थंयच चुकलें. टिचर जाली रागान तांबडी. हुसेनाक बावड्याक तापसाणी आनी सोमतेंच आमकां सगळ्यांक घरा भायर वचपाची ओर्द मेळ्ळी.

हांव नकळटां हांसपाक लागलें. म्हज्या कानारूय हांसपाचो आवाज पडलो. पळयल्यार सगळीं म्हजें सवंग पळोवन हांसतात. चल्यान म्हणलें, ''आगे एक मिनीट शांतताय नाका ?' घोवान म्हणलें,' आरे ताका आनी शांतताय कर्माक. ताची कालेत पळयतकच कळटा, ताका कितें सोबता तें.' ताणें थोमणो मारलोच.



८.

# एका कुस्कुटा खातीर

काल एका खबरेन म्हाका सामकें अस्वस्थ केलें. एका आठ वर्साच्या भुरग्याक भुके पोटार एक तांती चोरिल्ले खातीर जीवघेणो मार खावचो पडलो. एक तांती तें कितें? त्या बदलाक इतलें रगत काडीसर मार! आंगावेले कपडे बी पिंजून, खोटांचो मार. अर्दी तकली तासून, नागडो करून रस्त्यार शेवटुपा इतली ताका ख्यास्त. फकत एका तांतयाक लागून.

चोरी, मागीर ती कसल्याय कारणाक आसूं, वा कितल्याय ल्हान वस्तुची आसूं, ती वायटूच. ताका ख्यास्त फावोच. पूण एका तांतयाच्या चोरये खातीर त्या भुरग्याक फावो जावपाचें समजावणेचीं वा खर उतरांची ख्यास्त वा चडांत चड एक थापट, तेवूंय ते भिरांतेन ताणें परती चोरी करची न्हय हे खातीर.

ते खबरेन म्हज्या यादींचें कुरकूट धवळून उडयलें. येदे येदे कारणाक खर ख्यास्त भोगिल्ल्या कितल्याश्याच जाणांचे चेरे म्हज्या नदरे मुखार आयले. जमुना, वाड्या वयलें एक चली. फुलांची ताका सामकी आवड. माथेंभर फुलां माळून शाळेंत येवपी. आमचे शाळेचो रस्तो गजा पसरकाराल्या दुकाना कडल्यान वतालो. गजाल्या पोरसांत घे म्हणून तरेतरेची फुलां. तांगेर आशिल्ल्या गुलाबाच्या झाडाक कितलेशेच गुलाब फुलिल्ले. जमुनाच्या नदरेक ते गेले. शाळा सुट्टकच तें ल्हवूच गजाल्या पोरसांत भितर सरलें. एक-दोन गुलाब तोडटा थंय आसा, केन्नाच गजान ताका येवन धरलें. 'चोर खंयचें फुलां चोरता?' म्हणत ताणें जमुनाक बरेंच शेंपलायलें. आनी वयल्यान ताका झाडाक बांदून घालें. ताच्या बापायन पांच रुपया फारीक करून ताका सोडयलें.

तसोच एक भुरगो प्रकाश. ताणें मारियान भाटकान्नील्या भिण्णीणीचीं भिण्णां चोरिल्लीं म्हणून तिणें ताका झाडाक बांदून ताचेर हुमले सोडिल्ले. ताचे ते विकळाप पळोवन हांव सामकें हुडक्यांनी रडिल्लें.

प्रगतीन कोणाल्या पोरसांतलीं मोगरीं चोरलीं. ताच्या आवयक ही गजाल कळ्ळी मात तिणें रागान चुली कडलो चिमटो ताचेर मोखून मारलो. चिमटो सोमतो मांडयेत घुसलो. प्रगतीच्या मांडयेर आजूनय चिमट्याचो दाग आसतलो.

ह्या असल्या ख्यास्ती परस वेगळी ख्यास्त आसा न्हय ती हांवें भोगल्या आनी सासणाची ती यादींत दवरल्या. त्या वेळार हांव आसतलें सात-आठ वर्सांचें. बाबा म्हाका घेवन म्हापश्यां आतेगेर वतालो. म्हापश्यां बाजारांत पावतकच एका पसऱ्यार बाबा खावंक घेवपाक रावलो. त्या पसऱ्यार तोमाटांचो एक पाटलो आशिल्लो. हांवें आशिकुशीक पळयत एक तांबडेच तोमाट ल्हवूच व्हिस्तीदाच्या बोल्सांत घालें. पसऱ्या परसून मातशीं मुखार पावतकच हांवें बाबाक तें चोरिल्लें तोमाट दाखयलें. बाबान एक खीण म्हाका पळयलें. आनी परतो म्हाका घेवन पसऱ्यार आयलो. तें तोमाट पसरकाराक परतें दिवन म्हाका माफी मागपाक लायली. केन्नाच कोणाच्या वस्तूक हात लावचो न्हय ही गजाल अशे तरेन सामकी तकलेंत

उरली.

चुकीक ख्यास्त जावचीच. पूण ते ख्यास्तीन शारिरीक आनी मानसीक दुखापत करचे परस बरे तरेन समजावपाची चड गरज.



७.

# एतिकाद-विस्वास

इन्सान को एतिकाद की जरूरत है
यह एतिकाद
ख्वाह मजहब से मिले
इन्सानियत से या रफावत से
लेकिन मुहकम हो!

एतिकाद- विस्वास. विस्वासाचें म्हत्व नकसूद उतरांनी मांडप
ह्या कवीचें नांव म्हाका याद ना. पूण ताचीं उतरां मात काळजाच्य
होंवरेंत कोरांतून उरल्यांत.

आवयचे गर्भांत णव म्हयने णव दीस काडपी भुरगें, जिचें तों
लेगीत पळोवंक ना, ते आवयच्या स्पर्शाच्या विस्वासाचेर वाडटा. ह
आवयच आपल्याक ह्या संवसाराचो उजवाड दाखयतली म्हणपाच

विस्वास. ह्या विस्वासाच्या बळग्यारूच तें जल्माक येता. मागीर हो विस्वास तें सोदता आवय-बापूय-भावंडां हांचें मदीं. तें आपलीं-पेलीं हांचो स्पर्श वळखता. अनवळखी स्पर्शाचेर ताचो विस्वास बसना. म्हणून तर अविस्वाशी स्पर्शाचे भिरांतेन तें रडपाक लागता.

ह्या विस्वासाचें नातें भुरगें मागीर सगळ्यां कडेन जोडीत वता. इश्ट-इश्टिणी, सोयरीं-दायरीं, देव-दैव-सैम हांचेरूय तें विस्वासान नातें दवरीत व्हड जाता. त्या विस्वासाच्या भरवंशार स्वताक सुरक्षीत, सुगूर समजता.

'विस्वास एक सवणें, जें उजवाड अणभवता आनी तिनसांजेच्या काळखांत लेगीत गावंक लागता'-टागोर. खरेंच संकश्टांचें रसरसतें होमखण जावं निरशेचें बिण्ण काळखी देगण, मनाच्या गोबरांतल्यान विस्वासाचो फिनिक्स जागय, मागीर होमखणांतल्यान धोंड जावन आनी देगणांतल्यान घोण जावन उजवाडाचे वाटेर पावपाक वेळ लागचोना. पूण ह्या विस्वासाकच जर अविस्वासाची कीट लागली जाल्यार हो विस्वासाचो फिनिक्स गोंबरांतूच मुंगरून वतलो.

म्हणून तर कवी म्हणटा, दर एका मनशाक एतिकाद-विस्वासाची गरज आसता. मागीर हो विस्वास ताका निखळ धर्मातल्यान मेळूं वा इश्टागत, निश्ठा, सहकार्यातल्यान मेळूं मात हो विस्वास दृढ आसुनी. मनशाच्या मनाक थाकाय दिवपी, मनशांतीचो अणभव दिवपी ह्या विस्वासाक तोडून, ताका असुरक्षितपणाची जाणविकाय करून दिवपाचो कोणाकच अधिकार ना.

पूण विस्वासाचें सवणें मनांत बाळगितल्यांनी त्या सवण्याच्या पाखांक अंधविस्वासाची दोरी मात बांदची न्हय. कारण ही दोरी मळबांत उडपी ह्या सवण्याक केन्ना सकयल उडोवन त्या होमखणांत वा देगणांत मातयेभरवण करीत सांगूक जावचें ना.



८.

# काळखा तुजो रंग काळो रे....

हांव सुसेगाद जरी दिसलें तरी सुसेगादीन म्हजीं कामां केन्नाच जायनात. धांवपळ म्हणटात ती म्हजे फाटीर वेताळ कशी हुमकळटा. त्याच वेताळाक घेवन हांव धांवते बशींत चडटालें. कशेंच वयर सरपाक जायना. इतल्यान पेझाद म्हणटात तश्या हातांनी म्हाका अळंग बशींत उखलून दवरलें. कोण हो आकांत मनीस म्हणून पळोवंक गेल्यार रोजालीन. (आमी भुरगेपणांत ताका भीम म्हणटालीं.) बशींतल्या लोकांचे बत्तिशी कडेन दुर्लक्ष करून हांव सिटार बसूंक वतालें. इतल्यान 'आगो, तूं गो काळू?' ( तें म्हाका काळू म्हणटालें) अशें व्हडल्या भसाड्या आवाजान रोजालीनान म्हाका हडकिलें. काळू हें उतर आयकून हांव सामकें बाळू जालें. म्हजें तोंड पडलें. हांसतलें म्हणून चिंतल्यारूय ओंठाच्यो बावळ्यो हिमट्यो काडिल्ले वरी दसून रावल्यो.

आमच्या घरांत हांव सोडून सगळीं भावंडां गोरीं. मागीर म्हजे कडेन कोणाचींय झगडीं जालीं काय मनोहरबाबाले कवितेंतल्या काळोकिट्ट कावळो ... ह्या कडव्याक बरोच रंग चडटालो. हांवें एक दीस बाबाक विचारलें लेगीत, बाबा हीं सगळीं गोरीं हांव काळें कित्याक?' बाबान सांगलें, ' हांव हॉस्पिटलांत गेल्लों तेन्ना तूं एकलेंच उरिल्लें, म्हणून तुका हाडलें. आनी तूंच म्हजें अपुरबायेचें,' अशें म्हणीत म्हाका फुसलायतालो.

हें काळू म्हणून चाळोवप केन्ना घराची शीम हुपून भायरूय पावलें. कल्याणी, मंगल आनी रजनी म्हणून आमच्या वाड्या वयल्यो (त्रिकूट) भयणी. तीं सदांच एकठांय शाळेंत वतालीं. हांव तेन्ना दुसरेंत. तीं तिसरे-चवथेंत. गोरीं गोरींच. बावल्यो कशीं. तांणी म्हाका काळू म्हणून पिडपाक सुरवात केली. दोन व्हाळां मदले निर्जन सुवातेचेर पावतकच रजनीन व्हडल्यान म्हणप, 'काळू आमचा कुत्रा, होता सगळ्यात भित्रा.' आनी ताच्या भयणींनी किटकिटून हांसप. म्हाका रडपाक येतालें. पूण म्हजे आजयेन सांगिल्ल्या काणयांतले राजपुत्र केन्ना हारनासले. ते जिखतालेच.

हांवें मागीर मनाची आनी तनाचीय तयारी केली. सदचे वरी रजनीन ते निर्जन सुवातेर म्हाका पळोवन गावपाक सुरवात केली, 'काळू आमचा कुत्रा होता सगळ्यात भित्रा....' ताच्यो भयणीय हांसपाक लागल्यो...किटकिटून....हांव सदचे भशेन रडटलें अशें तीं समजल्लीं. इतल्यान, रजनीच्या हड्ड्यार कार्रेगाद मूठ बसली आनी मंगल कल्याणीक नेटान धुकलून व्हाळा वयले वांशे हुपून हांव केन्नाच घरा येवन कपड्यांच्या पेटलांत येवन लिपलें.

म्हजो दुबाव खरो जालो. त्रिकूट आवयक घेवन आमगेर आयिल्लें. तांचे आवयच्या तोंडाची झर व्हांवपाक लागली. म्हजी आई तिका थातारीत म्हणपाक लागली, 'येवं दी प्रतिमाक घरा. ताका दाखयतांच.' माईच्या माराच्या भंयान बरोच वेळ पेटलांत बशिल्लें हांव मागीर काळखाच्या भंयान भायर आयलें.

भुरगेपण सरलें पूण हें काळखाक भियेवप आनी काळ्या रंगा

खातीर फाटीं रावप मात तशेंच उरलें. बारावेक आसतना पयलेच फावटीं साडी न्हेसपाचो सगळ्या इश्टिणींनी बेत केलो. हांवूय बरी साडी न्हेसून उमेदीन म्हणटात तशें गेलें. वचून वर्गांत बसतां थंय आसां, म्हजें ब्लॅकबोर्डार लक्ष गेलें. थंय कोणें तरी खडवान ठळक अक्षरांनी बरयिल्लें काळू मालिनी.' म्हजी सगळी उमेद जिरली. ओंठांत हिमटी धरली. सर शिकयता थंय लक्ष लागना. कोण कितें सांगता कळना. फकत बोर्डार काळी काळीच हेमा मालिनी दिसपाक लागली. मदीं मदीं ते हेमा मालिनीच्या जाग्यार म्हजें तोंड झळकुपाक लागलें. इतल्यांत कुशीक बशिल्लें सुकुरीन कानांत फुत्'तलें, 'काळू मालिनीक चोयलें?' म्हाका कच्च जालें. हाकाय कळ्ळें काय म्हाका भाऊ फकांडां करतना काळू मालिनी म्हणटा तें. हांवें दोळ्यांत उदक हाडून सुकुरीनाक पळयलें. तें फाटल्यान कोणाक तरी दाखयतालें. फाटल्या बांकार एक कोरांतिल्ली काळी बावली कशी चली बशिल्ली. म्हजे परस काळी.

आनी कितें अजाप? म्हजें काळीज सामकें ल्हव जालें. मनशाचो सभाव म्हणटात तो असो. आपले परसूय आनीक चड दुख्खी आसा ताका पळोवन सूख मानपाचो. त्या खिणाक तरी हांव मनीस सभावाक जागलें. हिमट्यांचें रुपांतर हांसकुट्यांत जालें.

आतां मात हांव काळखाकूय भियेना आनी काळ्या रंगाक लागून निरशेय ना. फकत म्हणटां, 'हम काले है तो क्या हुआ, दिलवाले हैं!'



९.

# काळोख

रातचें वाचतां वाचतां लायट गेली. गुप्प काळोख कूडभर पातळ्ळो. काळखा वांगडाच भिरांतेची एक सया म्हज्या काळजार पातळ्ळी. हांवें बेगिबेगीन आशीकुशीक पळयलें. पळयल्यार दाराक एक येदोसो बुराक आसा थंयच्यान भायलो चान्न्याचो उजवाड झळकता. हांव काळखांत सासपत त्या बुराका कडेन गेलें. ताका दोळो लावन हांव भायर पळोवंक लागलें. त्या बुराकाच्या आंवाठा भायर म्हाका कांयच दिसनाशिल्लें. खीणभर म्हाका बरें दिसलें. दुसऱ्याच खिणाक म्हज्या मनांत विचार आयलो, हो बुराक सोडल्यार म्हजे नदरेक कांयच दिसना. म्हजे कुशीक कितलो दाट काळोख पातळ्ळा. त्या काळखांत कोणूय आसल्यार. ती कल्पनाच म्हाका थरथरावन गेली. ताळो सुकून येता सो दिसलो. पूण खीणभरच...

... म्हजे दोळे त्या काळखांत मांडून पळोवपाक लागले. काळखाची

संवकळ जातकच म्हाका मातशें मातशें दिसपाक लागलें, तशी तशी म्हजी भिरांत पयस जावंक लागली. हांव अचळय ते काळखे कुडींत एक पासय मारून आयलें आनी एक सत्य म्हाका उमजलें.

आमचे आशीकुशीक कितलीं संकश्टां तोंड आं करून आसतात. तांचे कल्पनेनूच आमी अर्दीं जातात. भविश्याच्या बुराकांतल्यान दिसपी उजवाड आमकां जाय आसता. पूण तो उजवाड मेळोवपाक संकश्टाच्या काळखांतल्यान वाट काडूंक तर जाय. फुडें भविश्यांत खूब मेळपाचें आसा म्हूण थंयच नदर लावन बसल्यार ह्या काळखांत गोठेवन वचपाचो भंय आसता. अशें गोठेवन वचून, लुंड कशें जगपा परस काळखा कडेन दोन हात केल्यार आपशींच मार्ग दिसून येता हें तें सत्य. सत्य सदांच सत्य आसता हें सत्य म्हाका पटलां, तुमकां?



१०.

# गांठ

खूब तेंपान म्हजे इश्टिणीक फोन लायलो. 'घराच आसा गो. ऑपरेशन केलां. गांठ मेळ्ळी' तिणें म्हणलें. गांठ हें उतर आयकतच काळजाक एक गांठ पडिल्लेवरी जालें.

ही गांठ म्हणून अस्तुरेची फाटूच सोडिना. जल्माक येता आवयबापायच्या घरा. ल्हानाची व्हड जाता, शिकता-सवरता आनी मागीर तिची गांठ बांदतात दुसऱ्या मनशा कडेन. ती गांठ म्हणचे ब्रह्मगांठ अशें मानीत अस्तुरी त्या परक्या घराब्यांत दर एकल्या व्यक्ती कडेन नात्याची गांठ बांदपाचो यत्न करता. ह्या यत्नांत केन्ना केन्ना ती सफल जाता. पूण केन्ना केन्ना मात तिच्या वांट्याक येता अपमान आनी दुख्ख. मागीर नकळटां तिच्या मनांत ह्या मनशां विशीं एक गांठ निर्माण जाता. त्या गांठीचो पीळ तिच्या मनांत सदांच ठसठसत उरता.

ब्रह्मान जाचे कडेन गांठ मारून दिल्या त्या मनशाक समजून घेता घेता कितल्याश्याच गांठींचें गांठवल तयार जाता. अणभवान तिच्या लक्षांत येता संवसार सांबाळूंक जाय जाल्यार तडजोड म्हणटात ती तिणेंच करूंक जाय. तडजोडीची ही गांठ ती सामकी आंवळून बांदता. जेन्ना जेन्ना ह्या तडजोडीचें बंधन ती भायरावपाक पळयता तेन्ना तेन्ना ही आंवळिल्ली गांठ तिका कुच्च करून तोंपता आनी वस्तुस्थितीची जाणविकाय करून दिता. मागीर ती आपली चूक नासतनाय माफी मागपाचें आपलें व्रत फुडें व्हरता.

मनांतल्या गांठींनी घुस्पायत राविल्ले अस्तुरेचे कुडीकूय ह्या गांठींनी सोडूंक ना. ज्या गर्भांत ती नवनिर्मणी करता, ज्या पान्यांतल्यान ती नवजिवाक अमृतपान करता थंयूय गांठी. म्हाका केन्ना केन्ना दुबाव येता, ब्रह्मदेव अस्तुरेच्या लग्नाची ब्रह्मगांठ मारता मारता ताका लकणी येवन गांठीची पुरवण करीत रावूंक ना मू? दुबावाची ही गांठूय म्हूण विचित्रूच न्हय?



११.

# घेवपी हात

बशीक उबें राविल्ले कडेन तें भुरगें म्हज्या पदराक धरून ओडीत आसलें. हांव पयलीं म्हज्या चिंतनांत आनी 'हें एक' म्हणत हांव ताचेर तापलें, 'भीक क्यूं मांगती है. कुछ काम करो.' त्या भुरग्यान म्हज्या पदराक धरिल्लो हात सोडलो आनी कुशीक रावन तें म्हाका पळोवंक लागलें. ताचे नदरेक म्हजी नदर भिडली. ताचे नदरेंतली असहाय्यता, अपमानान काळशें पडिल्लें ताचें मुखामळ, दुकांनी भरिल्ले दोळे म्हजें काळीज चिरीत गेले.

देणाऱ्याने देत जावे
घेणाऱ्याने घेत जावे

पूण घेणाऱ्याक तें घेतना कितलें दुख्ख जाता आसुयें हें घेतल्याकच कळटा. दर एक मनशाक आपणें सगळ्या वटेन समृद्ध आसूंक जाय अशें

दिसप सभावीकच. पूण केन्ना केन्ना दैवाची मात्रा मनशाचे जिणेर घु
कशी हुबता तेन्ना मनशाक ना उपाय जावन घेवपी जावचें पडटा.

म्हज्या आवयल्या घरा शेजरा एक बायल रावताली. म्ह
आवयली ती इश्टीण. तिणें सदांच आमगेर नुस्त्याचें हुमण, लोणचे
भाजी अशें मागूंक येवचें आनी आईन तें दिवचें. तेन्ना म्हाका आईचो ख
राग येतालो. कित्याक म्हणून आई ते बायलेक असली संवय करता अ
दिसून हांव म्हज्या उतरांतल्यान तिडक उक्तायतालें. आवयन ताचे
म्हणचें, 'अशें म्हणूं नाका. कोणाचेर केन्ना कसलो प्रसंग येत सांगू
जायना.' आजयेन म्हाका समजावचें, 'बाय प्रतिम, दिवपी हातांचो हिशे
देव राखता.'

...दिवपी हातांचो हिशेब देव राखता हें खरें फट तो देवू
जाणा. दिवपी हातांच्या मालकीच्या मुखामळा वयलें सूख हांवें जायते
फावट अणभवलांय. पूण घेवपी हात?...

हय, घेवपी हाताच्या पोशाची असहाय्य थरथर, ते व्यक्तीच्या
काळजांत उठपी दुख्खाची, अपमानाची वेदना, दोळ्यांत नकळटा सांकळून
उरिल्लीं दुकां हाचो हिशोब मात घेवपीच जाणा आसता.



१२.

# गडबड

गडबड ह्या उतरांतूच कितली गडबड आसता अशें हालींसरा म्हाका चडूच दिसपाक लागलां. सकाळीं उठले बरोबर घड्याळीचो कांटो दोळ्यांतल्यान आरपार बद्द काळजाच्या ठोक्याक मेळून 'धडधड' वाडयता आनी हे गडबडीक चड प्रोत्साहीत करता.

पयरूय अशेंच जालें. गडबडीन सकयल दवरिल्ली भरिल्ली दोड उखलूंक गेलें आनी कमरेंत कस्स जालें. बागवल्लें म्हाका सारकें उबें रावता म्हणसर म्हज्या कानांत पद वाजूंक लागलें, 'दादा हात लाव रे हंड्याला, कसक भरेल माझ्या कमरेला' गडबडीन कानांतले पद ओंठांतल्यान भायर सुटलेंच. तशें भायर बशिल्लो घरकार पिरपिरलोच. 'हांडो केदो, कमर केदी?'

असल्या उतरांची म्हाका संवय जाल्ल्यान आनी अशीं कस्कस्

प्रकरणांय भोगची पडिल्ल्यान हांवें थंय दुर्लक्ष केलें. मागीर सान्न मारतन
सोफ्यां पोंदा कितें तरी दिसता म्हणून धोपरार दिमी मारून तें काडले
परतें उबें रावपाक वच जाल्यार पापीण धोपर थंयच घट्ट जालां. मागी
म्हज्या लक्षांत आयलें, हालीं हालीं घट जावपाचीं, कसकसपाचीं प्रकरण
चड वाडल्यांत. हांवें म्हज्या एक दोन इश्टिणींक हाचे विशीं म्हणले
एकलेन म्हणलें, 'पाडपडूं! लोकांच्यो नदरो गो त्यो. तुगेली वजनदा
'देहयश्टी' पळोवन खुबळटात गो लोक. दुसरेन म्हणलें, 'आतां जुवानपण
सोंपलें न्हय गो आमचें.'

पयल्याची गजाल हांवें म्हजी नदर हालीं बाबत जाल्ल्यान
भायरायली. पूण दुसऱ्यान म्हणिल्ल्या उतरांनी म्हाका लक्क जालें
जुवानपण सोंपलें? इतले बेगीन? केन्ना सोंपलें कळ्ळेंच ना. न्हय कळपाक
मार्गच ना. सकाळीं उठून सांजे न्हिदपा मेरेन जी धांवपळ करतां त
सर्वसामान्य जुवान मनशा सारकीच करता. गडबडीन, धांवपळीन दीस
सरता. मागीर जुवानपण कशें सोपलें?

रातचें हाथरुणार पडल्या पडल्या हे विशींच येवजितालें. अकस्मात
हांवें कूस परतिली आनी फाटींतल्यान कसकस भरली. गडबडीचें बो
धरून चलतना काळजांतली वाडटी धडधड, धोपरां-फाट-भेंडांतल
कसकस म्हाका परती परती जुवानपण सोंपलें म्हणपाची जाणविका
करून दिता तर? हांवें कसकसीक जाणविकाये भायरी करून मनाक
समजायलें, 'अभी तो मै जवान हूँ...!'



१३.

# जाणटेली

'बाये' म्हणत एक हात अकस्मात म्हजे मुखार आयलो तेन्ना हांवें आंग काडलें. बसस्टॅण्डार मिठाय घेवपाक उबें राविल्लें हांव. नदर वळोवन पळयल्यार एक जाणटी. तिच्या एका हातांत दांडो आसलो. त्या दांड्याक सकयल्या पोंताक बरे चार खूर कशे आसले. तिणें व्हिस्तूद घातिल्लो. केंस बारीक कापिल्ले. 'बाय' तिनें पर्थून म्हणलें. हांवें पर्सींतल्यान दोन रुपया काडून तिच्या हातार दवरले.

मागीर आत्र्या-पयऱ्यान ती जाण्टेली झळकपाक लागली. मागीर फूल ना फुलाची पाकळी म्हणून हांव तिका एक रुपया तरी घालतालेंच.

इतली जाण्टी मनीस. बाबडेक कोण नासतलो. भुरगीं-बाळां, घोव, सोयरी-दायरीं म्हणून तर अशी भीक मागपाची पाळी आयल्या तिचेर. म्हाका ते जाणटेलेचें भोंगूं दिसलें. आनी घरदार? घरदार आसा

कांय तिका? काय हांगाच रावता काय ती? हांगा जाल्यार खंय? खंयच्याय बंद पसऱ्याच्या दारांत? काय रस्त्या कडेकच फुटपाथार? ती दिसली काय म्हजें हें विचारचक्र सुरू जावचें.

'बाये!' ते जाण्टेलेन सदचेवरी आयजूय म्हजे मुखार हात पसरलो. हांवें म्हजी पर्स सांसपिली. मोडचे पयशे मेळ्ळेना. शंबराची एकूच नोट आसली. म्हूण तिका कांयच दिवंक मेळ्ळेना. म्हजें मन खंती जालें.

बसस्टॅण्डारूच थोडें सामान घेवपाचें आसलें. तेन्ना मोड जातलीच त्या वेळार तिका दिवचें अशें थारायलें.

सामान घेता घेता खूब वेळ जालो. तरीय ती जाण्टेली म्हज्या यादींत घांस धरून आसली.



१४.

# तांवेय परस पास्ट

काल उलयतां उलयतां म्हज्या इश्टान म्हाका विचारलें, 'तुवें केन्ना घोंटेरांतल्यान उडून गेल्ल्या सुकण्यां पिलांक परतें त्या घोटेरांत परतल्लीं पळयल्यांत?' हांव येवजूंक पडलें. आमच्या फ्लॅटाच्या गॅलरींत लव-बर्डसांनी एक घोंटेर केल्लो तो दोळ्यां मुखार आयलो, मुखावयल्या झाडा वयलो कावळ्यांचो घोंटेरूय दोळ्यां सामकार झळकलो आनी तोंडांतल्यान नकळटां उतरां सुटलीं, 'ना.'

'कित्याक येनात तीं पिलां परतून? सांग पळोवया.'

'सुकण्यांचो धर्म उडपाचो, पाखांत बळगें आसासर उडत रावपाचो. थकलीं काय मळबा पोंदा, सैमाच्या सानिध्यांत रुखा-पेडांचेर राबितो करपाचो. तांकां घोंटेराची गरज कित्याक?' हांवें म्हणलें.

'पूण त्या पिलांची आवयबापूय, ती वाट पळयनात आपल्या

पिलांची?' ताणें म्हाका विचारलें.

परत म्हज्या दोळ्यां मुखार ते रिते घोंटेर झळकले. पिलां उडून गेल्या उपरांत त्या पिलांचे आवयबापू' केन्ना घोंटेरांत येवन राविल्ले हांवें पळोवंक ना.

'ना. तीं वाट पळयनात आपल्या पिलांची. कारण तांकांय आपलो धर्म खबर आसता. तांणी आपल्या घोंटेरांतल्यान अशेच तरेन उडून वचून धर्माचें पालन केल्लें आसता. मागीर तीं दुख्खी जावपाचो प्रस्नूच येना.'

'म्हणचे तूं मनशाच्या भुरग्यांचें, जीं आपल्या पालकांक जाण्टेपणार एकटेंच सोडून पयस परदेशांत स्थायिक जाल्यांत, जांकां आवयबापाय खातीर वेळ ना, समर्थन करता तर?'

हांव खिणभर ओग्गी रावलें. जाण्टेपणांत जांची भुरगीं जांचे पसून पयस आसात अश्या जाण्ट्यांच्या दुख्खाची जाणविकाय आसा म्हाका. आपल्या भुरग्यांची दोन उतरां आयकुपा खातीर तळमळपी, तांचेर नदर घालपाक वळवळपी तांकां पळोवन काळीजूय कातरून गेलां म्हजें. मागीर हांव तांच्या भुरग्यांचें समर्थन कशें करतलें?

'मनशाची वार मातयेंतच पुरतात आनी मरणा उपरांतूय तो मातयेंतूच भरसता. मातयेंत मुळां रोमून राविल्ल्या मनशान मळब सपन पळोवपाक हरकत नासता. पूण... पूण त्या बरोबर ताणें आपलो धर्मूय निभावचो आसता. धर्म-मनीसपणाचो. ह्या मनीसपणाच्या नात्यान ताणें पळोवपाचें आसता सैमा कडेन, मोनजाती कडेन आनी मनीसजाती कडेन. सुकणीं-सावजां परस वेगळो धर्म ताचो. हांगा जल्माक आयिल्लो प्रत्येक मनीस सामको सज्ञान जायसर आपल्या आवयबापायचेर निंबून आसता. ह्या काळांत तांणी आपल्या खातीर घेतिल्ले कश्ट, तांची आपल्या वयली माया जो विसरता तो पडमूर. मनशाचे जिणेंत बाल्यावस्था आनी वृद्धावस्था येता अशा वेळार तीं दुसऱ्याचेर निंबून उरता. भुरगेपणांत आवयबापायचेर, जाल्यार जाण्टेपणांत भुरग्यांचेर. अशा वेळार पयशे न्हय तर मायेच्या उतरांची,

मायेच्या स्पर्शाची, मायेच्या आदाराची गरज आसता. हो धर्म समजून घेना तांची ह्या सुकण्यां कडेन तुळा करपाकच शकनात. तांचें वागणें हें जनावरा परस पास्ट आसता...'

भावनाविवश जावन हांव उलयतालें. म्हजो इश्ट म्हाका पळयत रावलो.



१५.

# दर्यातलें खडप

पयर दिवाळे दिसा ती म्हाका मेळ्ळी आनी सदचे भशेन तोंड भरून हांसली. तिचें हांशें आनी म्हजें हांशें ही आमची वळख. त्या भायर आमी एकमेका विशीं कांयच नकळ. बशीची वाट पळयतां पळयतां एकमेकाक हांसतालीं इतलींच. आयज हांवें एक पावल मुखार वचपाचें थारायलें. 'दिवाळेचीं परबी' हांवें तिका परबीं भेटयलीं. ती हांसली आनी बशींत बसून गेली.

हांव उबें राविल्लें थंयच आनीक एक बायल आशिल्ली. तिणें म्हणलें, 'बाय, ती बायल वयल्यान हांसती दिसता. पूण ती मगो बाय दर्यांतलें खडप.'

इतल्यान बस आयली. बशींत बशिल्ले कडेन म्हाका तें उतर परते परतें याद जावंक लागलें. दर्यांतलें खडप...

...म्हज्या दोळ्यां सामकार दर्यांतलें खडप आयलें. खिणांखिणाक दर्याच्या ल्हारांचो मार सोंसतालें. पूण ताची दूख ताच्या आंगार खंयच दिसनासली. वयल्यान तें उदकांत भिजिल्ल्यान तिकतिकतालें. प्रसन्न दिसतालें. इतल्यान म्हाका हांवें भुरगेपणांत पळयिल्लीं हंसा दर्याविळे वयलीं खडपां याद जालीं. थंय न्हातना म्हजे नदरेक तांची मुनां पडिल्लीं. खडपाचीं मुनां कालवांच्या करपांनी भरून गेल्लीं. खडपी कुल्ल्यांनीय थंय बिळां केल्लीं. त्या खडपां कुशीक वचून न्हावपाक आमकां आजी तेन्ना मनाय करताली.

खडपाचें मून... करपांनी भरिल्लें... कुल्ल्यांच्या बिळांनी पोखरिल्लें... आनी दर्याच्या ल्हारां मारान, खारसाणीन झरिल्लें...

तकलेंत उजवाड पडिल्लो. ती बायल कितलीशींच उपाट दुख्खां सोंसता आसतलीं. तरी आपलें दुख्ख लिपोवन हांसता आसतली म्हणून ते बायलेन तिची दर्यांतल्या खडपा कडेन तुळा केल्ली. हांव अस्वस्थ जालें. म्हजें मन दर बायलेच्या काळजाच्या मुनाक वचून काळीजतळ धवळून आयलें. दर अस्तुरी दर्यांतलें खडप आशिल्ली. मुनांतलो दुख्खाचो गाळ लिपोवन ओंठार हांशें फाकोवपी. हांवूय त्याच खडपांतलें एक खडप... मनांत विचार येतनाच बर्शीत दुखेस्त चेरो करून एक अस्तुरी चडली. खूब विचारांत आशिल्ली कशी दिसताली ती. तिची म्हजी नदरा नदर जाली. ओंठार प्रसन्न हांशें फाकयत तिणें म्हाका पळोवन म्हणलें, 'हॅपी दिवाळी...'



## १६.

# दाग अच्छे है?

भुरगो जावं जाण्ट्यांच्या कपड्यार पडिल्ल्या कसल्याय दागांचेर शाबू लाय दाग गायब. आनी मागीर म्हणप, ‘दाग अच्छे है। म्हाका ही जायरात पळयतकच सामकी भिरभिरी मारता. दाग अच्छे है खंय! फक्त शाब्बाच्या जायराती पुरते हे दाग बरे आसतात. कितलोय बरो शाबू आसूं भुरग्यांच्या कपड्या वयले दाग आनी कॉलरीचो चिकोल काडपा खातीर जी सर्कस आमकां बायलांक करची पडटा ती आमीच जाणात.

दाग अच्छे है म्हूण जायरात पळयल्ले फाटीं म्हज्या दोळ्या मुखार काळीज दिश्टी पडटा. काळीज एक वस्त्र कशें, सामकें म्हेळें म्हेळें. कितलेश्याच दागांनी भरिल्लें. हे दागूय तरातरांचे. आपल्या–पेल्या मनशांनी कुसकेपणान दिल्ल्या बकच्छायेच्या उतरांचे दाग, उण्या–दुण्यां उतरांची

किसरां सोडून केल्ले दाग, नकळटना आपल्या हातांतल्यान घडिल्ल्या चुकींचे दाग...

ये दाग अच्छे नही है। हे दाग ह्या काळीजवस्त्राक सामकी खेम मारून आसतात. वचन वचना. काळाचो शाबू ल्हवू ल्हवू ह्या दागांक पोशेता. पूण हो काळ शाबू लेगीत फकत दागांची खराय उणी करता. दाग तशेच उरतात. केन्नाय मातशें काळीजवस्त्र कुच्च करून हाल्लें जाल्यार परते हे दाग उसकतात. आनी दितात जीवघेणें दुख्ख.

ये दाग अच्छे नही है। चारित्र्य नांवाचें कंवचार पडिल्ले दाग. हें कंवच कंवचेवरी तरल. हारशावरी नितळ आसूंक जाय. ताचेर सादो दाग जावं सादें खरडिलें जाल्यारूय दाग पडूं येता. वेर पडली जाल्यारें सांदूक येना इतलें हें कंवच नाजूक. आपल्या चुकीन ह्या कंवचार दाग पडटात तेन्ना एक समजू येता. पूण केन्ना केन्ना कोणाच्या जिबेक हुळहुळे पडटात आनी चारित्र्यहनन करपी उतरांचे शिंतोड ह्या कंवचार पडटात तेन्ना ते दाग सामकें सन करूंक जायनात. हे दाग मना-काळजाक लासून उडयतात. हे दाग जिवेपणीच मरणयातना भोगूंक लायतात.

हें सगळें येवजून येतकच हांव दाग अच्छे है केन्नाच म्हणना. म्हज्या तोंडांतल्यान उतरां पडटात, 'दाग न लग जाये'.



## १७.

# देवबाप्पालें घर

म्हजो सदचोच प्रवास. त्या दिसा म्हजे शेजरा एक बायल आपल्या चार-पांच वर्साचे चलयेक घेवन बसली. चली जनेला भायल्यान दिसपी हर एक गजाल उमळशिकेन नियाळटालें आनी आवयक तरेतरेचे प्रस्न विचारतालें. आवय आपले परीन ताच्यो जापो दिताली.

मदींच रस्त्या कडेन एक ल्हानशी देवाची घुमटी आशिल्ली. आवय झुप्प करून ते घुमटेक पांयां पडली. मागीर तिका धुवेन विचारलें, 'तें कोणाचें घर?' आवयन म्हणलें,'देवबाप्पालें' चलयेन पर्थून प्रस्न केलो,'आमच्या घरा कडेन देवबाप्पालें व्हडले देवूळ आसा, तो देवबाप्पा रावता हांगा'.

'ना' आवयन जाप दिली. 'मागीर हें घर कोणाचें? त्या देवबाप्पाच्या मामालें? मामालें घर ल्हान कित्याक? अशे तरेतरेचे प्रस्न

तें माणकुलें आवयक विचारतालें आनी आवय घुस्पताली. 'मागीर सांगता आं... ' करीत बाबडी जापो दिवपाचो येत्न करताली.

इतल्यान वाटेर खुरीस लागलो, 'माँ, हेंवूय देवबाप्पालें घर?' 'हय' आवयन म्हणलें. 'पूण आमच्या न्हय'

'मागीर कोणाच्या?' 'लोकांच्या' म्हणून आवय ओगी रावली. पूण त्या भुरग्याचें समादान जालें ना. ते आवयक प्रस्न विचारून सतायत रावलें.

हांव वाटेर देंवलें खरें पूण त्या भुरग्याचो तो प्रस्न म्हाका सतायंत रावलो. कितलें निरागस आसता भुरगेपण. ताका मनशां मनशां मदलो मनशानीच घालून दिल्लो भेद कळना. हो हिन्दू, हो क्रिस्तांव, हो मुस्लीम... हे शिमें भितर त्या त्या मनशाक बंदिस्त करीत आमी मागीर भुरग्यांक तांची वळख करून दितात.

म्हाका सर्गेस्त अमिता सुर्लकाराची एक कविता याद जाली.

**'आयज आमगेर एक बाळक जल्मलां...**
**आमी ताचो बारसोय करूंक ना,**
**सुन्तीय करूंक ना, बाप्तीजमूय करूंक ना...**
**आमी ताका मनीसपणाचें बाळकडू पिवयलां...'**

सगळे मनीस एक, मनशाचो धर्म 'मनीसपण हें जेन्ना ह्या धर्तरे वेल्या सगळ्यांच्या काळजांत घोळटलें तेन्नाच 'मनीसजीण सार्थ जाली अशें म्हणूंक जातलें.



१८.

# दोन वळीं मदली सुवात

दर एकल्याचे जिणेची एक काणी आसता. काणी म्हणटकच ती सगळ्यांक कळटा, वाचूंक मेळटा अशीच आसता, पूण ह्या वाचूंक मेळपी ओळीं मदीं अश्यो कितल्योशोच काणयो लिपिल्ल्यो आसतात. त्यो सहसा कोणाक वाचूंक मेळनात. कळ्ळ्योय जाल्यार त्या कोणे एकल्यान ती सुवात कोणाय खातीर उत्ती केली जाल्यारूच.

हांव दीसपट्टे बशींतल्यान प्रवास करता. अशावेळार जायते प्रवासी खूब फावट मेळटात. तातूंतल्यानच वळखी जातात आनी मागीर जिविताची काणी कळटा कळटा तांचे काणयेंतल्या दोन वळीं मदली सुवातूय म्हजे मुखार अळंग उत्ती जाता...

...हे सुवातेंत हांशाचे पांखे नासतात, सुखाचीं फुलां नासतात.

आसतात दुख्खाचे कांटे. आपल्याच मनशांनी तोपिल्ले. असह्य वेदना दिवपी. ते वेदनेक भायर फुटपाक वाट नासता. संस्काराच्या वज्यान, समाजाच्या भंयान, काळजांतल्या काळजांत दामून उडयिल्ल्या भावनांचे कुडके अशे छिन्नविछिन्न जावन जंय थंय शिंवरिल्ले आसतात ते सुवातेंत.

ही सुवात तशी सोंपेपणी कोणा मुखार उक्ती जायना. जाचे मुखार उक्ती जाता ते व्यक्तीक पयलीं जोखप जाता. ती हे सुवातेंतलें दुख्ख वाऱ्यार उडोवन सगळ्याक घाण करचीना हाची खात्री पयलीं पटची पडटा, तेन्नाच ही सुवात अळंग उक्ती जाता. इतलो तेंप सांकळून उरिल्ल्या कुसकुसपी गाळाक व्हळून उडोवप जाता. ती सुवात परती मेकळी करप जाता.

अस्वस्थ करपी आमोरे पारार अशें एकटें बशिल्ले कडेन ह्या दोन ओळीं मदल्या उत्या सुवातेंतल्यो काणयो म्हज्या मनांत घुंवूंक लागतात. तांच्या हालचालींत म्हज्या काळजाचे उक्ते सुवातींतल्यो म्हज्यो काणयो उकसून येतात.... आनी अळंग त्या सगळ्यांच्या काणयांनी भरसतात. त्या सगळ्या काणयांचो रंग एकूच आसता...



## १९.

# नव्या वेपाराचे दिकेन...

पयर बसीक राविल्ले कडेन एक गाडी मुखार थांबली. गाडयेचो हारसो सकयल देंवलो आनी एक गुटगुटीत मुखामळ दिश्टी पडलें. 'प्रतिमा, हांगा खंय. पणजे मगो? चल यो.' म्हणत तिणें गाडयेचें मुखावयलें दार उकतें केलें. हांव सामकें गोंदळिल्लें, ते बायलेचें मुखामळ म्हाका यादूच जायना जालें. तिकाय घडये म्हजो आबूज चेरो पळोवन तें कळ्ळें आसतलें. हांव गाडयेंत बसतना तिणें आपली वळख सांगली आनी हांव सामकें अजाप जालें. आमच्या वर्गांतलें गणितांतलें सामकें ठ्ठ्ठें भुरगें तें, आयज वेपारांत लाखांनी जोडटालें. हांव खीणभर भूतकाळांत गेलें तें ताणें वळखलें आनी सट्ट करून ताणें म्हणलें, 'आगो, पयशे जोडप ही एक कला, गणिता कडेन ताचो कांयच संबंद ना.'

तशें हांवूय एका काळार वेपार करतालें. तातूंत जमूय बरो

बशिल्लो. पूण मागीर वेपार करपांतलो आत्मविस्वास एकदां गेलो तो गेलोच. फाटीं परत म्हज्या मनांत हें वेपाराचें भूत रिगलें. पूण कसलो वेपार करचो हें येवजना जावन निरशेलें. आनी आयज एक खबर आयकली आनी पयशे जोडप ही एक कला हाचोच साक्षात्कार जालो.

मुंबय चड कावळे नात. थंय रावपी धर्मीक हिंदू मनशाक बाराव्याक धरून म्हाळ, वर्सस्त्राद्ध ह्या गजालीं खातीर कावळो सामको गरजेचो. एका मनशाच्या लक्षांत ही गजाल आयली. Good business leaders create a vision, articulate the vision, passionately own the vision, and relentlessly drive it to completion ही बऱ्या वेपाऱ्याची व्याख्या सत्त्यांत हाडपा खातीर तो मनीस कामाक लागलो. ह्या कावळ्याची मुंबयकारांक गरज, ती गरज पूर्ण करपा खातीर तो कामाक लागलो. ताणें कांय कावळे पोसले. आपले कडेन कावळे आसात आनी ते बारावो, स्त्राद्ध वा हेर धर्मीक कामां खातीर उपलब्ध आसात म्हणपाची जायरात केली. दर्भाचो कावळो करून पिंडाक चोंच लावचे परस पयशे फारीक करून खरेलो कावळो पिंडाक आफडून गेलो म्हणपाचें समाधान मुंबयकारांक मेळ्ळें आनी त्या वेपाऱ्याक पयशे.

हांवें आनी खंयच्या गांवांनी कावळे नात हाचो सोद घेवपाक सुरवात केली. घटप्रभा कावळे नात हाची सुलूस म्हाका लागल्या. सध्या हांव कावळे धरपाचे मोहिमेचेर आसां.



२०.

# पलतड गांठटना

दिवाळेचे फोव खावन सुस्ती आयिल्ली. आड पडचे बदला भायलो पाचवो सैम नियाळचो म्हूण हांव गॅलरींत वचून बसलें. रुमड, रुमडाच्या रुखा वयल्यो चानयो पळयतां पळयतां अचकीत गॅलरींतच्या कोनशाक म्हजें लक्ष गेलें. एक किमस उडत उडत कोनशाचे वण्टीर बसलें. त्याच खिणाक वयर मावलीन बांदिल्ल्या जाळ्यांत हालचाल जाली. किमस कांय खीण ओग्गी रावलें. कांय वेळान ताणें मातशी हालचाल केली. त्याच खिणाक वयले मावलेनूय हालचाल केली. हांव आतां तांच्या ह्या खेळांत सामकें नदर मोखून बसलें.

एक खीण...पांच मिणटां...धा मिणटां... दोगांय कसलीच हालचाल करिनात. म्हजें मात पासियेंस काबार जायत आयिल्लें. अचकीत किमस परतें मातशें वयर चडलें. तितल्याच नेटान मावली मुखार सरली. परत

सगळें चिडीचूप...

...जिणेंतलो हो जुगार दोगांय खेळटालीं. किमसान आपल्या मुखार आशिल्लो धोको वळखल्लो. मावलीन आपल्या मुखार आशिल्लें सावज हेरिल्लें. दोगांय शिटूकसाणेन वावुरतालीं...

... तांचे हे शिटुकसाणेचें कवतूक दिसलें म्हाका. ही शिटूकसाण म्हाका मात केन्नाच जमलीना. मुखार धोको आसा हें खबर आसतालें. पूण त्या धोक्यांक वेळाच्या कात्रेंत धरपाक म्हाका जमलेंना. म्हज्या दोळ्यां मुखार पलतड गाठपाची आसताली. पलतड म्हज्या आशीकुशीच्यांक तारतली इतलेंच म्हाका कळटालें. ती गांठपाक जाय इतलेंच हांव जाणा आसलें. मागीर हांव बेधडक त्या धोक्यांत उडी मारतालें. थंय घुस्मट्टालें, धडपडटालें, नित्रळटालें, आपटतालें, रक्तबंबाळ जातालें तरीय जिद्दीन धोको बळांटून पलतड गांठटालें. पलतड गांठली म्हूण मान वयर करता थंय आसा आनी एक धोको मुखार आंऽऽ करून उबो रावतालो. परत तेंच चक्र सुरू... काळाची मावली वयर दबो धरून बसल्या...म्हजी मोख पलतड गांठपाची...



## २१.

# पारवे

हांवें तांकां हांगा रावूंक आयिल्लें त्याच दिसा पळयल्लें. आमच्या मुखारल्या रांदचे कुडीचे जनेला वयर तांचें बिराड आशिल्लें. हांवूय बिराडकारीण आशिल्ल्यान म्हजें तांचें इल्लें नातें जुळ्ळें. हांव रांदचे कुडींत काम करतालें तेन्ना ते पारवे म्हाका बारीकसाणेन नियाळटात अशें म्हाका दिसतालें. पूण कित्याक कोणाक खबर तांचे घुमप म्हाका अस्वस्थ करून उडयतालें.

एकदीस तांच्या घुमपाच्या आवाजांत चिंवचिंविल्लेवरी आवाज भरसलो. त्या पारव्यांनी पिलां काडिल्ली. दोन दीस त्या पिलांची लक्तुबाय हांवें नदरेन नियाळून केली. मागीर म्हज्या कामा मुखार तांचे कडेन व्हडलेशें लक्ष दिवप जालें ना. पूण त्या दिसा त्या दोन पिलांनी कुलकुलाट केलो म्हणून थंय आपशींच नदर गेली. पळयल्यार ते दोगूय पारवे आपल्या

पिलांक सामके चोंचायताले. तांकां हेवटेनतल्यान तेवटेन चोंचावन धांवडायताले. आनी पोंतार पावतकच धुकलूंक उडोवपाक पळयताले. पिलां पोंताक घट्ट पांय रोवून परतीं तेवटेन धांवतालीं. तांचे हें विचित्र वागणे पयलीं म्हज्या लक्षांत आयलेंना. पूण मागीर कळ्ळें. ते तांकां उडूंक शिकयताले. त्या दोन पिलांतलें एक पील एकदांचे उडलें. दुसरें पील मात कोनशाक दडून बशिल्लें. बशिल्लें थंयच थरथरतालेंय आनी पारवे चिंतेस्त जाल्लेवरी हांगच्यान थंय पासयो मारताले.

कांय वेळ रावून परतें त्या पारव्यान त्या पिलाक चोंचावंक सुरवात केली. पोंतार हाडून ताका एकदांचें ताणें सकयल धुकल्लेंच. झेलपटिल्लें तें पील पयलीं सकयल शेंवटलें, पूण रोखडींच ताणें पाखां फडफडायलीं आनी मळबांत झेप घेतली. उडप ही शेवण्यांची जीण. ते जिणेचो अणभव आपल्या पिलांक दिवपा खातीर, ते जिणेंत फिशालकाय जोडपा खातीर तांकां तातूंत धुकलून उडोवन, तांच्या पाखांच्या सामर्थ्याची जाणविकाय, तांच्या स्वतंत्र अस्तित्वाची जाणविकाय तांकां दिवन तांची जीण घडोवपा खातीर अशें कठोर तांकां जावचेंच पडटा.

आमी अशीं कठोर वागूंक शकतात काय?



२२.

# फ्रॅण्डशीप डे

फांतोड जाली आनी मोबायलाचेर मॅसेजीचो रिंग टोन वाजलो. बॅडरुमांतल्या सगल्यांनी चॅ...चॅ करीत कूस परतिली. पूण हांवें मात सडसडीत उठून मॅसेज वाजलो. कोणेतरी फ्रॅण्डशीप डे च्यो शुभेत्सा दिवपी मॅसेज धाडिल्लो. नंबर अनवळखी आशिल्लो तरीय बरें दिसलें.

खरेंच तें इश्टागतीचें गणितच वेगळें. इश्ट आमच्या आनंदाक गुणाकार करतात आनी दुख्खाक करतात वजा.

खरो इश्ट कोणाक मानचो? ह्या प्रस्नाक जाप दितना म्हाका फाटल्यो, आजयेन सांगिल्ल्यो गजाली याद जातात.

आमच्या घरा मुखार आनी फाटल्यांत पोरसूं आशिल्लें. आजी थंय तरातरांची झाडां लायताली. ती रोंपे रोयताली तेन्ना तिचे कुशीक बसून हांव तिका उमळशिकेन विचारतालें, 'हो रोंपो केन्ना व्हडलो

जातलो? केन्ना ताचें झाड जातलें?' म्हज्या प्रस्नार आजयेन म्हाका बरे तरेन समजावचें. हो रोंपो माती-सारें खातलो, उदक पियेतलो, वत-पावस घेतलो, वारें-वादळ पळयतलो आनी हें सगलें पळयतां पळयतां व्हड रूख जातलो.

इश्टागतीचो रोंपोय तसोच न्हय. काळाच्या व्हांवतेंत मायेचें-आपलेपणाचें उदक पियेत, विस्वासाचें सारें खायत इश्टागतीच्या नात्याचीं पाळांमुळां काळजा भितर घट्ट रिगयत एक व्हड रूख जाता. मागीर दुबावाचीं कितलींय वादळ-मोडां येवंदी. तो तांकां जुमानिना.

आयज फ्रॅण्डशीप डे मनयतात. एकामेकाच्या हातांचेर फ्रॅण्डशीप बॅण्ड बांदून आपली इश्टागत उक्तायतात. पूण ह्या यांत्रिक युगांत एक भंय मात सदांच काळजाक आफुडटा. फ्रॅण्डशीप बॅण्डाच्या रुपान ही इश्टागत हाताच्या मनगटा मेरेन मर्यादींत उरना मू? काय ताचे धागे काळजा मेरेन पावचे पयलींच तो बॅण्ड हाता वयल्यान कडेक पडटा?

हालींची भिरांकूळ परिस्थिती मनशाचें मनस्वास्थ इबाडून उडयता. तो मागीर तोंकाची भुमिका घेता. हे परिस्थितीक तोंड दिवपाक इश्टागतीची सामकी गरज. इश्टागतं वादळ-मोडांतल्यानय भायर काडपी खऱ्या इश्टांची.



२३.

# बोमाडो

बोमाडे, रंगरंगयाळे बोमाडे. हवे विणे निर्जीव शे. हवा भरली काय फुलत वचपी. पूण ते फुलोवपी हवेकय एक मर्यादा आसची पडटा. ते मर्यादे भायर हवा भरली जाल्यार बोमाडो फुटपाचो संभव आसता आनी भरिल्ले हवे उपरांत बोमाड्याचें तोंड धांपना जाल्यारूय हवा वचून बोमाडो बावपाचो संभव आसता. एका काळार म्हाका ह्या बोमाड्यांचें कोण अप्रूप. हवा भरली भितर काय हूस्स उडून वयर वचपी बोमाडो. मळब वेंगावपाचो हावेस घेवन वयर वचपी बोमाडो. भुरग्यांचीं तशेंच जाण्ट्यांचींय मनां प्रसन्न करपी बोमाडो. पूण मागीर मागीर मात ताच्या ह्या प्रसन्न रुपा परस ताचें हवा वचून फुस्स जाल्लें, बाविल्लें, कितेंय लागून फुटिल्लें रुप दोळ्यां मुखार येतकच हांव कासावीस जातालें.

म्हजे भयणीक हे बोमाडे आवडनासलें. ताका आवडटालीं शेवणी,

फलपाखे, भिरमुट्यो. पळय कशीं उडटात आपल्या मना प्रमाण. तुजे बोमाडे हवा नाजाल्यार कांय उपेगाचे ना ताणे सांगप.

खरेंच, बोमाडो मनशान निर्माण केल्ली वस्त. पूण त्या बोमाड्या वरवीं आपल्या सभावचीं, आपले जिणेचीं विवीध तासां नकळटां उक्तीं जातात म्हणपाचें घडये मनशाक खबरूय नासत.

मनशा मदीं खोस-दुख्ख-कसलीय जावं हवा भरता ताका मर्यादा आसूंक जाय. हवा चड जाली काय बोमाडो फुटपाचो भंय आसता. केन्ना केन्ना अती दाबान तोंडांतल्यान हवा वचपाचीय शक्यताय निर्माण जावन बोमाडो बावपाक शकता.

सगळ्यांत चड भिरांत आसता ती अहंकार, दुस्वास, विकृती, हावेस असल्या सभावी हवेचो. ही हवा कशीच उणी जायना. खिणाखिणां कणकणी ही हवा वाडत वता. मळबाक हात लावपाचो हावेस, कोणाक सोंपोवपाची विकृतींचीं सपना पळोवप्याक खबर नासता की वाडटी हवेन तांचीय ह्या बोमाड्यावरी गत जातली. परिणाम ठोऽऽ फुस्स.

हे बोमाडे, रंगरंगयाळे, उडटां उडटां जिणेचे कितलेच रंग दाखयत मनशाक शिटकायतात, म्हणटात...

...जिंदगी कैसी है पहेली हाये
[illegible] तो हँसाये कभी तो रुलाये



२४.

# मनबैल

धांव धांव धांवलें आनी तारी कडेन रावलें अशी म्हजी सदांच गत जाता. त्याय दिसा दोळ्यां मुखावयल्यान झुप्प करून बस गेली. आतां आनीक धा मिनटां थंय वतान करपप हें येवजूनच हांव कुशीकच्या घराच्या पाख्या पोंदा गेलें. त्या घराच्या जनेलांतल्यान म्हाका थंयच्या लॅपटॉपार चलिल्ल्यो बैलाच्यो धिरयो दिसल्यो. दोन बैल एकामेका कडेन आकांतान झुजताले. त्या मस्तावल्ल्या बैलांक पळयतकच तांकां तांच्या धनयांनी भरपूर खावड घाल्या आसतली म्हणून कळटालें.

त्या बैलांक नदरेन भरूनच हांव आयिल्ले दुसरे बशींत चडलें. सिटार बसलें खरें पूण ते बैल दोळ्यां मुखा वयल्यान हालना जाले. करतां करतां ते बैल म्हज्या काळजांत देंवले, आनी आकांतान झूजपाक लागले. हांवें बारीकसाणेन पळयलें. हे दोन बैल म्हणल्यार गूण–अवगुणांनी

भरिल्लीं दोन मनां. एक मनबैल अहंकार, दुस्वास, दुश्टपणा, नसाय अश्या अवगुणांनी भरिल्लो जाल्यार दुसरो मनबैल सोंशीकसाण, मोग, बरेंपण अश्या गुणांनी भरिल्लो. दोगूय एकामेकाचेर झुडून वताले. हातूंतलो खंयचो मनबैल जिखतलो काय? अशें येवजिताले, इतल्यांत गुणांनी भरिल्ल्या मनबैलान अवगुणी मनबैलाक सामकें भुंयेर लोळयलें. अब्बा! म्हणून त्या बैलाक तोखेतनाच लक्षांत आयलें. हांव ह्या गुणी मनबैलाक चड खावड घालतां. म्हजेर भुरगेपणासावन जाल्ल्या सुसंस्कारीत विचारांची. म्हणून तर ताणे अवगुणी मनबैलाक कांय न्ही करून लोळयलें.

हाचोच अर्थ मनीस ज्या मनबैलाक जशी खावड घालता तसो तो मनबैल मातता. अवगुणी मनबैलाक मातोवचे परस गुणी मनबैलाक मातोवप आतांच्या काळार तरी खूब गरजेचें.



२५.

# मनीसपण

'तो सामको बायजण मरे?' कोणतरी उलयलो म्हणून हांवें फाटल्यान वळून पळयलें. पळयल्यार कांय विद्यार्थी. घडये कोणा विशीं उलयताले आसुंये. 'आरे, आमी ताका लडकी म्हणटात' दुसरो खिदळ्ळो. ते कोणाक पळोवन उलयताले तेवटेन हांवें नदर भोंवडायली. पळयल्यार वळखीचें मुखामळ. त्या मुखामळा वयले सोबीत दोळे दुकांनी भरून गेल्ले.

तो भुरगो उत्तर प्रदेशांतलो. फैजल. आमच्या घरा कुशीक आशिल्ल्या इश्कोलांत शिकतालो. आनी आमच्या वाड्यार सामकें पोंताक आशिल्ल्या एका बिराडांत आपले आवय सयत रावतालो. थंय नळाची, बांयची तजवीज नाशिल्ली. उदका खातीर तांकां पयसुल्ल्या नळार वच्चों पडटालें. फैजल फांतोडेर उठून नळाचेर वतालो आनी आपल्या घरांतलीं

सगलीं उदकाची आयदना भरून दवरतालो. घरादारांत सान्न मारतालो. केन्ना केन्ना कपडेय धुयतालो. म्हणून हीं भुरगीं ताका बायजण म्हणून चाळयतालीं.

ताका चाळयतल्या भुरग्यांक सारकें समजावन सांगपाची हीच वेळ आसली. हांव त्या भुरग्यां मुखार उबें रावलें तशे ते ओगी रावले.

'तुमच्यांतले कितलेजाण तुमचे आवयक घरकामांत मदत करतात?' हांवें विचारलें. तशे सगले एकामेकाच्या तोंडाक पळोवपाक लागले.

हांवें मुखार म्हणलें, 'फैजल करता. आपले आवयक पयसुल्ल्यान उदक हाडचे पडटलें म्हणून तो सदांच सकाळ फुडें उठ्ठा. त्या पयसुल्ल्या नळार वचून घरांत उदक भरून दवरता. सकाळ फुडें घर-दार लींप करता. मागीर तो इश्कोलाक वता. ते आवयचो कितलो अपुरबायेचे पूत पळयात. तिका कितले आदार करता तो'

त्या भुरग्यांचीं तोंडां पडलीं आनी फैजलाच्या मुखामळार हांसो झिरपलो. ताचो हांसो पळयतां पळयतां म्हजें मन भूतकाळांत रिगलें...

... आमच्या घरा सामकार आशिल्ल्या गुदिन्याल्या घरांत आमचो ड्रॉईंग सर रावपाक आयलो. सर आनी ताची बायल दोगांय कामाक वतालीं. सर सकाळीं फुडें तांच्या घरा भायर आशिल्ले फातरीर आपले आनी बायलेचे कपडे धुयतालो. बायल येवन मागीर ते सुकत घालताली. आमकां भुरग्यांक हो एक बरो विशय मेळिल्लो. 'जाणां मगो तो सर सामको बायजण मगो. बायलेचे कपडे धुयता.' घे वता थंय भुरगीं सराक पळोवन फींस फींस करून हांसतालीं.

एक दीस सराक 'बायजण' म्हणटना म्हज्या बाबान आयकलें. ताणें म्हाका आपलेसरी आपयलें. 'प्रतिमा, बायजण म्हणल्यार कितें गो?' हांव गडबडलें. 'सांग?' बाबाचो आवाज कडक जाल्लो. 'बायलेचे कपडे धुता तो बायजण' हांवें भियेत भियेत सांगलें.

''आनी सराचे कपडे ताचे बायलेन धुयले जाल्यार तिका कितें म्हणटलीं?' बाबाच्या ह्या प्रस्नार हांव ओग्गी रावलें.

‘पळय प्रतिमा, तुजो सर आनी बायल दोगांय कामाक वतात. दोगांकूय एकाच वेळार भायर सरून वचपाक जाय म्हणून तीं एकामेकाक काम करपाक आदार करतात. आनी एकामेकाक आदार करप हें मनीसपण. सामकें लक्षांत दवर.’ बाबान सांगलें.

‘काम हें कामूच आसता. तें दादल्याचें वा बायलेचें काम अशें नासता’ अशें सांगपी म्हजी आजी वा ‘एकामेकाक आदार करप म्हणल्यार मनीसपण’ म्हणून सांगपी म्हजो बाबा, अशीं कांय हाताच्या बोटार मेजपा इतलीं मनशां ह्या मनीस सागरांत आसात. आनी हें आसपूच खूब गरजेचें. मनीसपण तिगोवन दवरपा खातीर.



२८.

# मुयेंतलें मनीसपण

रातभर न्हिदेन म्हाका वळवळायलें. विचारांनी तकली खाली. काल एकलेन सांगिल्ली गजाल परतून परतून काळीज धवळूंक लागली.

तिचें लग्न जाल्लें. एक भुरगें जाय मेरेन सगलें बरें चलिल्लें. मागीर नशीब खंय घुंवलें कळ्ळेंना. घोव पियेवंक लागलो. ताचीं दोनूय मुत्रपिंडां निकामी जालीं. अशा वेळार घोवाक वांटोवपा खातीर तिणें आपलें मुत्रपींड ताका दान केलें. पूण पियेतलो पियेत रावलो. तिका एका मुत्रपिंडाचेर दवरून तो ह्या संवसारांतल्यान सटकलो.

इतलो तेंप भाभी भाभी म्हणून तिचे भोंवतणी भोंवपी तिच्या सोयऱ्यांनी आतां तोंडां सोडलीं. कचाकचा उतरां सांगाताक मार-फारूय तिचे वाटेक आयलो. हे कावळे पसून न्हय. गीद हे तिणें म्हणलें. तिच्या उतरांनी घुंवळटा घुंवळटा फांतोडेर केन्ना तरी दोळो लागलो.

सकाळीं उठलें तेन्ना घुंवळ्ळेवरी जालें म्हणून मातशें बसलां थं आसा, एक ल्हानशें पिसोळें जमनीर पडलें आनी फडफडपाक लागलें आरेरे! म्हणून उखलपाक लेगीत भंय. पाखां हातांत येत म्हणून हां ओग्गी रावलें. टायल्साच्या एका कोनशाक तें पडिल्लें. आनी थंयच्या फडफडत मुखार येवपाक लागलें. केन्नाच खंयच्यान नकळं एक मू आयली. पिसोळ्याच्या मुखार गेली. परत पिसोळ्यान फडफड केल तशी ती मूय पयस धांवली. पिसोळ्यान टायल्साच्या ह्या पोंता वयल्या त्या पोंता मेरेन प्रवास केल्लो. आतां मुयांची संख्या वाडली. पूण फडफडपि त्या पिसोळ्याचेर तांणी हल्लो केलो ना.

म्हाका ते मुयेची म्हाका लक्तुबाय दिसली. हरशीं जित्या जिव्य जिवाक रेवाडून ताका मरणख्यास्त दिवपी ह्यो मुयो. पूण आयज ह्य पिसोळ्याचे वाटेक मात गेल्यो नात. ताची फडफड थांबसर त्यो आशिकुशीक घुंवत रावल्यो. मुयांची ती करणी म्हाका अजापीत करून गेली.

मुयांनी मनीसपण आपणायलां आनी मनशांनी ???



२७.

# मृत्युगोल

"He is not valiant that dares to die, but he that boldly bears calamity-Messinger"

सातवेक आसतना म्हज्या काकान म्हाका एक डायरी दिल्ली. भितर पयल्याच पानार हीं उतरां आशिल्लीं.

ह्या उतरांचो अर्थ तेन्ना समजलो ना. पूण समज येता येता तसो तसो ताचो अर्थ समजत गेलो. भुरगेपणांत बाबा आमकां मुजरत सर्कसीक व्हरतालो. अख्ख्या सर्कसींत म्हाका आवडनासलो तो मृत्युगोल. घर्रऽऽघर्रऽऽऽ करून हॅल्मेट घातिल्ले ते मोटारसायकलवाले स्टार्ट मारताले आनी हेवटेन म्हज्या काळजाची धडधड वाडटाली. तें पळयतना हांव बाबा नाजाल्यार भाऊचो हात भिरांतेन घट्ट धरून दवरतालें. मातशें व्हड जातकच हांवूच म्हाका प्रस्न विचारपाक लागलें? हांव कित्याक

भियेतां? ते तसले स्टंट करतना मरत म्हणून? पूण ते तर मरणाक तायटार घेवन मोटारसायकली चलयता. निर्भयतेन. मागीर हांव कित्याक भियेतां? मरणाचो भंय म्हज्या मनांत खोल खंयतरी आसा म्हणून न्हय

आतां दीसपट्टीं आत्महत्त्येचीं प्रकरणां आयकतना म्हाका तो मृत्युगोल याद जाता. हो संवसार म्हणूनय एक मृत्युगोलच. हांगा आपलें जिणेचें वाहन चलयतना केन्ना कितें जायत हाचो नेम नासता. जिणेची मोख सादतना कितले स्पीड ब्रेकर पार करचे पडटात. कितलीं फोंडकुलां, खळयो आसतात. त्या सगळ्यांक चुकयत मोख गांठटना कितलेशेच फावट आत्महत्तेचो विचार स्पॉन्डिलिटीस कसो मानेर येवन बसता. मानेर बसून तो तकली-बुद्द झिणझिणावन उडयता. सारासार विचारांक नानपयत करता. थंय उरता फकत कृती. आत्मघाती कृती.

आयच्या संवसारांत दर एकल्याक एका खिणाक तरी आत्महत्त्येचो विचार मनांत येवन गेल्लो आसता. हांवूय ताका अपवाद ना. अशा वेळार हांव तो मृत्युगोल याद करतां. मरणाच्या दारांत वचून परतें येवपाक जी शक्त लागता, ती मनाची शक्त ह्या मृत्युगोलांतल्या मनशांनी मेळयल्ली आसता. वादळां-मोडां-भूंयकाप- हुंवार असल्या सैमीक संकटांक तोंड दियत आपलें सगळें वगडावन बशिल्ले तरीय आपल्या आपणाक जिवें दवरपाक धडपडटले मनीस हांव याद करतां. केन्नाच पळोवंक नाशिल्लो फकत कल्पनेंतलो गोबरांतल्यान परतो उडपी फिन्निस हांव याद करतां, रातीच्या काळखांत विलीन जावन परतो उदेवपी सुर्या हांव दोळ्यां मुखार हाडटां आनी मानेर बशिल्ल्या त्या हळशिकावण्या विचाराक भिरकटावन मारतां. परत परत म्हणटां, ‘When everything seems to be finished, remember future remains”



२८.

# मोराचे पांय

'ए, काय बरीं सॅण्डलां पळय गो? कितल्यो नव्यो नव्यो मोदी!' ऑफिसांतलें एकलें दुसऱ्याक पी.सी.चेर सॅण्डलां दाखयतालें. तांचीं मुखामळां सॅण्डलांच्यो त्यो तरेकवार मोदी आनी रंग पळोवन सॅण्डलावरी (चंदनावरी) परमळटा असो म्हाका भास जालो. हांव थंयच्यान कूस मारूंक सोदतालें. इतल्यान एकल्यान म्हाका हटकिलेंच, 'ए, पळय गो!' रोखडेंच दुसऱ्यान पीन मारली, 'नाका गो ताका दाखोवंक. ताचे सायजीचीं सॅण्डलां ना थंय' अशें म्हणीत तें परतें पयल्याच्या कानांत फुतफुतलें, 'आगो ताचे घोडे पांय.'

चवथेंत एकदां मास्तरान आमकां 'ज्ञान हे जिवनाचा पाया आहे' अशें सांगलें. तेन्ना हांव खूब घुस्पल्लें, पाया हें उतर आयकून. हांवें म्हजो दुस्' रोझालिनाक सांगलो. ताणें ताची फोडणीशी केलीं. 'पायें

गो पाया म्हुणल्यार'. म्हज्या ज्ञानांत भर पडली. इतल्यान मास्तरान म्हणलें, 'बाळे, सांग बर पाया म्हणजे काय?' हांवें जाप दिवचे पयलीं रोझालिनान व्हडल्यान म्हणलें, 'पायें मास्तर.' जापे सरशीं रोझालिनाच्या पांया बरोबर बडी पडली. तशी म्हजी म्हातारी कुळकुळ्ळी. हांवें मास्तराक म्हणलें, 'पाया म्हणजे नमस्कार करणे.' म्हजेय पांय मास्तरान सोल्ले. तेन्ना सावन ह्या 'पाया'ची हांवें धास्तीच घेतली. म्हणून घडये 'पांय हे शरिराचा पाया आहे' हें म्हाका कळूंकच ना.

भुरगेपणांत हांव टॉमबॉय. हांव पांयांत लेगीत चडशीं बाबा आनी भावाचीं जोतीं घालतालें. हेर भयणी आनी आवयची जोतीं म्हाका केन्ना पांयाक चडलीं ना. तांचे पांय ल्हान आनी म्हजे पांय व्हड आसात हें म्हाका कळिल्लें पूण म्हाका ताचें व्हडलें पडुनूय वचूंक नाशिल्लें.

पूण लग्न जालें त्या दिसा मात ह्या पांयांनी म्हाका लजेक उडयलें. नव्या घरांत प्रवेश करपाक पांय उबारला मात आमचे एके नण्णेन एकदम म्हणलें 'ए भाभीचे पांय पळय केदे मोटे!' म्हाका तें आयकून सामको थंयच्यान 'काडता पांय' घेवन वच्चों शें दिसलें. आनी त्या उपरांतूच सॅण्डल घेवपाक गेल्ले फावटी तें म्हाका जाणवत गेलें. म्हजे सायजीचे सॅण्डल मेळटा म्हणल्यार मारामार. म्हज्या घोवा परस म्हजे पांय व्हडले. एकदीस एक सोयरी घरांत सरली. ती उलयतां उलयतां म्हज्या पांयाक पळयता हें म्हज्या लक्षांत आयलें, तशे हांवें म्हजे पांय ल्हवूच साडये भितर घेवपःचो यत्न केलो. तरीय तिणें म्हणलेंच, 'तूं दिसपाक कितलें नाजूक (त्या काळार) आनी पांय मात घोडे पांय.' त्या दिसा सावन म्हाका चलतना ओगीच घोड्यांच्या टापांचो आवाज येता कशें दिसपाक लागलें.

कुळारा गेल्लो कडेन हांवें ही गजाल म्हजे आजयेक सांगली. तशें तिणें म्हाका मोराचे काणयेची याद केली. मोर आनी शिंगाड्याची (सांबर). शिंगाड्यान मोराक म्हणलें, 'आरे मोरा, तुजें आंग मरे काय बरें. पूण पांय? शी! हे पांय तुज्या आंगाक अजिबात सोबनात. नाजाल्यार म्हाका पळय, म्हजीं हीं शिंगा, म्हजें तिकतिकीत आंग...' शिंगाड्यान

अशें म्हणटकच मोराकूय आपल्या पांयांची तिडक मारली. इतल्यांत एक शिकारी आयलो तशीं तीं दोगांय धांवपाक लागलीं. धांवता धांवता शिंगाड्यांचीं शिंगां एके झिलींत आडकलीं आनी तो शिकाऱ्याच्या हातांत पडलो. मोराक मात ताच्या पांयानी पयस व्हरून शिकाऱ्याच्या हातांतल्यान वाटायलो. काणी म्हज्या दोळ्यां मुखार झळकून गेली.

आजयेन म्हणलें, बुन्याद सांबाळूंक जाय. घराची जावं कुडीची जावं मनाची... आजी सांगत रावली आनी हांव आयकत रावलें. म्हजे कुडिचे बुन्यादीन म्हजेर केल्ले उपकार याद करीत रावलें.

म्हजे कुडिची बुन्याद हे पांय. सगळ्यो वाटो बंद जाल्ल्यो. तेन्ना ह्या पांयांनीच म्हाका बळगें दिल्लें, नव्यो वाटो सोदून काडपाक. सोदून काडिल्ल्या वाटांनी कितलेशेच कांटे आशिल्ले. कुयदाद घेवनूय ते तोंपलेच. पूण ह्या पांयांनी ताची दूख काळजा मेरेन पावपाक दिली ना. ह्याच पांयांनी, ज्या पांयांक म्हाका दिल्ल्या घरांतले लोक हांशिल्लें, तांणी जिणेंत ज्या देगणांत शेंवटल्लें थंयसावन ह्या तेमका मेरेन येवपाक सांगात दिलो. तेंच कित्याक? वाडिल्ले कुडिचें किलांचें वजन सहजपणान पेलपी हेंच पांय. हेच पांय चलतल्या रस्त्यार लिपून बशिल्ल्या हांयसा पसून पयस व्हरून उजू मार्गार चलोवपी. ह्या पांयांक हांव कित्याक लिपोवं? हांव आतां मोर जालां. म्हज्या कर्तृत्वाचो पिसारो अभिमानान फुलयतना म्हजे पांयूय तितल्याच अभिमानान मुखार पावली मारतात.

आतां कोणेंय म्हाका म्हणलें, तुजे पांय घोडे पांय मगो, जाल्यार हांव रोखडेंच म्हणटा, शे!म्हजे पांय मोराचे!



२९.

# यत्न

सकाळीं च्या पियेतना दिसाळ्याचेर नदर भोंवडायली. जिया खान नांवाचे तरणाटे अभिनेत्रीन आत्महत्या केल्ल्याची खबर आसली. हालींसरा आत्र्या-पयन्यान तरणाट्या भुरग्यांनी केल्ल्या आत्महत्त्यांच्यो खबरो दिसाळ्यांनी झळकतात. म्हजें मन अश्यो गजाली वाचून सुन्न जाता. आतांय तशेंच जालें.

दिसाळें वाचूंक मेळचें म्हणून हांव जनेलाक तेंकून बशिल्लें. जनेला भायल्यान बशयेंत आशिल्ले चपातेचेर एक कावळो दोळो दवरून आशिल्लो. हांव वाचपाक गुल्ल आसतना ताणें चपाती व्हरपाचो यत्न केलो. पूण ताका तें जमलें ना. पूण ताणें आपलो प्रयत्न मात सोडलो ना. हांव चिंतनांत गुल्ल जाल्लें आसतना अकस्मात ताणें भितर येवन चपाती उखलून व्हेली.

म्हाका त्या कावळ्याची लत्तुबाय दिसली. ताणें धीर सोडलो ना. जें

जाय तें मेळोवपा खातीर प्रयत्न करीत रावलो. हो धीर खूब म्हत्वाचो. आनी हो धीर, पासियेंस हेंच आयचे पिळगे कडेन ना.

भुरगेपणांत आमचें बारीक बारीक गजाली कडेन खूब लक्ष आसतालें. आपले फाटीर खाण घेवन धडपडत वचपी मूय. कितले फावट तें खाण सकयल पडटालें, कितले फावट ती धडपडत वेगळेच दिकेक पावताली. पूण तरीय तिची चिकाटी खूब मोटी. ती चिकाटी आमच्या काळजांत घर करून रावताली. नदर चुकोवन नुस्तें जावं कसलोय जिनस फारावपाचो येत्न करपी कावळो, जाळें विणटना परती परती सकयल पडूनय परती वयर वचून आपलें जाळें विणपी मावली आनी ....

...आनी परत्यो परत्यो असल्यो काणयो सांगून आमचे मदलो आत्मविस्वास जागोवपी आजयो. ह्याच म्हालवजार आमच्यो पिळग्यो कितल्याश्याच दुख्खांक फुडो करीत रावल्यो. 'दुख्खाक टक्कर दिले बगर सुखाची रूच कळना' अशें म्हणपी म्हजी आजी एका अर्थान कसल्याय प्रसंगाक निर्शेनासतना धिटायेन तोंड दिल्यार तातूंतल्यान वाट मेळटाच अशें सुचीत करताली.

नवी पिळगी सामकी कंवळे पिरायेरूच मानसीक ताणाचे मुठींत आंवळत वचूंक लागल्या. त्या ताणांतल्यान मुक्त करपाक सैमांतले जे घटक मुक्तपणान अभ्यासपाची गरज आसता ते घटक फ्लॅट नांवाचे संस्कृतींत बसनात. प्राणी, पक्षी सोडाच आजी नांवाची मनीस लेगीत तातूंत येना. मागीर भुरगीं येदे येदे गजाली वयल्यान आपलो मानसीक तोल वगडावन बसतात आनी मागीर घडटात तांचे हातसून आपल्या जिवाचो नाश, आत्महत्त्या.

म्हाका हांगा कविता कृष्णमुर्तींचे कवितेंतली एक वळ तरणाटे पिळगेक देखी खातीर दिवची दिसता.

Don't ever give up
Failure and success
in everyone's cup



30.

# शहामृग

'शहामृग धांवता बरो, पूण बाबड्याक उडपाक येना...' शहामृगा विशीं दूरदर्शनार उलोवपी ते बायलेन म्हणलें... कार्यावळ सोंपली, रातूय सोंपली पूण शहामृगा विशीं ते बायलेन म्हणिल्लीं उतरां म्हज्या कानांतल्यान कशींच वचना जालीं. शहामृग- कितलें साम्य आसता ताचें सामान्य मनशा कडेन. सामान्य मनीसूय म्हूण धांवता... सपनरंगांत रंगल्लें मळब हातासपाची मोख दवरून. पूण ताच्या पांया पोंदा आसता परिस्थितीचो नाजूक कंवचेचो हारसो. तो ताच्या दर पावला कणकणी तुटत-फुटत वता. ताका रक्तबंबाळ करीत. तो धांवता कारण ताच्या पाखांनी उडपाची तांक नासता. उडून मळबझेप घेवप ताचे खातीर अशक्यप्राय गजाल. मागीर तो धांवता... सामको हड्डें फुटसर धांवता... हातांत निमाणे कडेन येता ती निराशा.

हांवूय म्हणून धांवतांच न्हय. त्या शहामृगा भशेन. सपनांच्या फाटल्यान. पूण जितलें धांवतां तितलेंच परिस्थितीची कंवची कुच्च करून म्हज्या पांयांत रोमून म्हजी वाट आडायता. 'इतलेंय आसून कित्याक धांवता गे तूं मम्मा?' म्हजीं भुरगीं म्हाका विचारतात. हांव खीणभर तांकां पळयतां आनी ल्हवूच म्हणटां, 'म्हाका मगो देवान धांवपाक पांय दिल्यात तशें मनूय दिलां. ह्या मनाक पाखां आसात. तें उडटा सपनाच्या मळबांत आनी पुंजावन हाडटा कितलीच खोस. ती खोस म्हजे जिणेंत उमेदीचे रंग शिंवरायता. म्हजो म्हजे वयलोच विस्वास बळावता. आयज नासल्यार नासूं फायचे दिसा तरी कितें तरी अप्रुपाचें घडटलेंच ही आस जागयता...'

ही आसूच तर जीण बरे तरेन जगपाचें एक साधन. साधन आम आदमीचें, सामान्य मनशाचें.



३१.

# सात पांगरूणातलो जोगी- जिणेचें सत्य

जीण एक वजें- पेलचें पडटा
जीण एक कर्तव्य- करचें पडटा

रांदचे कुडींतल्या कामांक हात घालतना म्हाका अशोच कविता सुचतात. गडबडीन रोटयो- चपाती तव्यार घालतना, गरम आयदना निखटींच गॅसी वयल्यान सकयल काडटना आदोळेचेर शिनतना हे चटके - कुडके बसत आसतात, तेन्ना म्हाका बहिणाबाईची 'आधी हाताला चटका, मग मिळते भाकर' ही कविता याद जाता. पूण त्या चटक्यांक - झटक्यांक सोंसले बगर खावन जेवन तृप्त जाल्ल्या चेऱ्यावयलें समाधान पळोवपाचें भाग्य मेळना.

हांवें शिनपा खातीर म्हूण कांदो हातान घेतलो. ताका पळयतना

म्हाका  चट्ट करून आजयेची याद जाली. आजयेन आमकां तरेतरेचीं उमाणी घालचीं. तातूंत हेंवूय एक उमाणें आसतालें. 'घाटावयल्यान आयलो जोगी आनी सात पांगरूणा घेवन बसलो ओग्गी .  'कांदो' आमीय फट्ट करून ह्या उमाण्याची जाप सांगतालीं.

ह्या सात पांगरूणावाल्या जोग्याच्या आंगावेले एक एक पांगरूण हांव देवोवंक लागलें. आनी तो जोगी- कांदो म्हाका जिणेंचे एक सत्य सांगून गेलो. आमची जिणूय म्हणून ह्या कांद्यावरी. जिणेक जशे कितलेशेच पदर तशेच कांद्याकय.  एक- एक साल काडून उडयतना  केन्ना केन्ना दोळे ओलेय जातात. जिणेचे पदर उलगडटनाय आमका दुख्खाक फुडो करचें पडटा. कांदो शिनतना जशीं दोळ्यांतल्यान दुकां व्हांवतात तशीच दुकां जिणेंत संघर्श करतना व्हांवतात. कांदो अंती ज्या जिनसांत घालतात त्या जिनसाची रूच वाडयता. संघर्शा उपरांत मेळिल्ल्या सुखाची रूचूय तशीच आसता.



३२.

# आटयलां

नाब घालून सुंगटांचें गरम मसाल्याचें तोंडाक केल्लें. आळेन आटपाक जाय म्हूण गॅसीर दवरिल्लें. घाळ रावलें आनी तोपान केन्नाच पोंद घेतलें. आख्ख्या तोंडाकाक करपल्लो वास मारपाक लागलो.

कितलीं युगां जालीं. मनीस दिसान-दीस घाळ जायत चल्ला. सगळे वटेंतल्यान आटत चल्ला आनी ताचे परिणामूय तो भोगीत चल्ला.

सैमान मनशाक भरभरून दिलें. मळबान आपल्या सहस्र कुपांनी मनशाक पावसाचे दान दिलें. दोंगर-दोंगुल्ल्यांनी माथें वयर करून ताका येवकार दिलो. वझऱ्या-धबधब्यांनी घसघसपी उदकाक व्हाळांनी उमेदीन येवकारलें आनी नागीण कशी सळसळत, आपले उत्फर्के न्हंयक पावयले. न्हंय सळसळत दर्यांत विलीन जाताली.

पूण मनीस बेमान. ताणें दोंगर-दोंगुल्ल्याक आटोवन थंय पांख्याक

पांखें आनी वण्टीक वणत तेकोवन बांदलीं घरांचीं मालीं. सैम सदचेवरीं भरभरून पावसाचें दान दिता. पूण तांका येवकारपाक दोंगर-दोंगुल्ल्यांच्या बदल्याक आसतात चिखल-कोयरांनी तुंबिल्ल्यो खळयो. ती घाण घेवन उदक कुंथनेत देंवता. सकयले व्हाळूय आटून गटारां जाल्लीं आसतात. तातूंतल्या चिखलांत उदक भरसता. गटारांतल्या उदकाक नागिणेची चपळताय खंयची. आशिकुशीकच्या कोंडांनी वाट काडीत उदक मुखार सरता. पूण न्हंयूय आसता आटिल्ली. माती घालून पुरोवन थंयूय मनशान वाडयल्लें आसता सिंमेट-कॉंक्रिटाचें रान. त्या रानांत रावपी मनशांनी केल्लो कोयर-कोचोप घेवन शक्तीहीन शी न्हय व्हांवता आनी दर्याक मेळटा. पूण दर्याय आटिल्लो आसता. आशिकुशीक बांदिल्ल्या हॉटेलां आनी शॅक्सांनी ताचें ल्हारेवपूय अंदिल्लें आसता. तरीय तो प्रतिकार करपाचो यत्न करता. न्हंयन हाडिल्ली घाण तो देगेर शेवटून मारता. ती घाण परती आपल्याच पोटांत येतली हें जाणा जावनूय.

दोंगर, व्हाळ, न्हंयो, दर्या ही सैमाची देण. ती कांय न्ही करून आटोवन आपलो सुवार्थ सादोवन घेवपी मनीस स्वताय आटत चल्ला. ताणें सगळ्यांत पयली आटयली आपल्या काळजाची विशालताय. ह्या विशालतायेंत वास करपी दया-क्षमा-शांती-मोग ह्या भावनांक



33.

# उगडासाचे पांखे

“When time, who steals our years away
Shall steal our pleasures too
The memory of the past will stay
And half our joy renew.”

**- Thomas More**

काळ कोणाक रावना. पिराय वाडची थारना. आनी हे वाडटे पिरायेर थॉमस मोर हाचे कवितेंतल्यो ह्यो वळी याद जातात. काळा सांगाताक पिराय वाडटा, तशें तशें फाटलें सगळें फाटल्यान पडटा. नव्याचो ध्यास, नव्याचो हावेस मनाक मुखार वचपाचें बळगें दिता. पूण पोरण्या यादींक काळजा कुडींतल्या एका कुरकुटांत सुवात मेळटा. पिराय वाडटा तसो काळूय कुडीची सासपणीं करपाक लागता. काळाच्या स्पर्शान गात्रां हालतात, शिरंतरां थंड पडपाक लागतात. वेग–आवेग फाटीं पडपाक

लागतात. मागीर एका तेंपार सगळे आंनदाचे परमोच्च बिंदू गांठपी कूड, दुयेंसाचे भकीक पडून दुकांचे बिंदू गळोवंक लागता.

अश्या हजार व्याधींनी भरिल्ले कुडीचें रडगाणें आयकुपाचें कोणाकच पासियेंस नासता. मागीर मनशाक निर्शेणी येवपाक लागता. एकटेपण खावंक येता. तेन्ना मनशाच्या आदाराक ताची काळजाकूड धांवून येता. ती ल्हवूच त्या कुरकुटाचें दार उक्तें करता. आनी पोरण्या यादींचें भिरेंच काळजा बागेंत भिरभिरपाक लागता. हे यादींचे पांखे एका एका उगडासाच्या फुलार बसतात. म्होव चोखीत. आनी तें म्होव मागीर आपली गोडसाण पातळीत वता मनाच्या तळागाळांत. आनी फुलयत वता रंध्रारंध्रांक. थकिल्लीं गात्रां त्या म्होवांत बुडून परतीं टवटवीत जातात.



३४.

# एक तोळ रडटा

दीसभराचो वावर सोपून घरा परतता म्हणल्यार आठ-साठेआड जातात. घरा पावले बरोबर भुरगीं अभ्यासाक बसल्यांत अशें चित्र दोळ्यां मुखार हाडीक हांव दार उगडटां. आनी थंयचें चित्र पळोवन म्हजें पित्त चाळवता. म्हज्या येवपाची दखल घेवपाक लेगीत भुरग्यांक वेळ नासता. इतलीं तीं मोबायलान गुल्ल जाल्लीं आसतात. मागीर म्हज्या तोंडाची तोफ सुरू जाता. पूण त्या उतर गुळयांचीय भुरग्यांक संवय जाल्ली आसता. हालीसरां इश्टिणीं मदींय अशेच तरेचीं उलोवणीं आयकूंक येतात.

कालूच हांवें दार उगडलें आनी सदचेंच दृश्य नदरेक पडलें. पूण हांवें पित्त चाळवूंक दिलेंना. थीर तकलेन हांव सोफ्यार बसलें. आनी एकूच उतर म्हणलें, 'एक तोळ रडटा...' ही गुळी ज्युस्त लागली. मनीस हो एक उमळशीक आशिल्लो प्राणी. आनी ताका आयकूंक आवडटा

काणी अशें कोणेंतरी म्हणिल्लें. तोच प्रयोग हांवें केलो. आनी दोगूयजाणां ह्या प्रयोगाक फारावलीं. तांची मोबायला वयली नदर कुशीक जाली.

'खंय रडटा तोळ?'- दोगांय

'थंय युनिवर्सिटी कडेन. फाल्यां पेपरार येतलें'- हांव

आतां भुरगीं मोबायल सोडून उठलीं. म्हजे कुशीक बसलीं. 'कित्याक गे कित्याक?'- भुरगीं

'रडटा तो हातांतल्यान सुटून गेल्ल्या वेळाक'-हांव कुंवाड्यान उलयलें. चली शिटूक. सट्ट करून उठलें आनी भितरले कुडींत वचून अभ्यासाक बसलें. पूण पुताक तें कळ्ळें ना. 'कसलो वेळ?' ताणें विचारलें.

'वर्सूयभर फोल्गां मारलीं आनी वेळ हातांतलो सुटलो. आतां रडटा.'

'आंऽऽ आं, कळ्ळें कळ्ळें. ही सदां अशीच' अशें म्हणत पुतूय अभ्यासाक बसलो.

हांव मात तोळ आनी मुयेची काणी घडोवपी त्या अनाम लेखकाक आनी ती काणी म्हजे तकलेंत घालपी आमच्या जाण्टेल्यांक दिनवासत रांदचे कुडींत भितर सरलें.



३९.

# कोण हांव?

हांव बशींत चडटना तोवूय म्हजे बरोबरूच वयर चडलो. आनी बसतना म्हजे कुशीकच बसलो. गोरोपिट्ट, पिक्या केंसाचो तो जाण्टेलो तरणेपणांत सुंदर आशिल्लो हाच्यो कुरवो ताच्या तोंडार अजूनय दिसताल्यो. पूण ताचें मुखामळ...

कित्याक कोणाक खबर तें मुखामळ म्हाका निर्जीव कशें दिसलें. कसलीच भावना नाशिल्लें, मख्ख. बस सुरू जाली आनी कंडक्टर तिकेट मारूंक लागलो. हांवें म्हजी तिकेट काडली. कंडक्टरान त्या दादल्या मुखार हात केलो. पूण तो दादलो कंडक्टराक पळयत रावलो. अनवळखी नदरेन. 'खंय चल्लो रे?' कंडक्टरान विचारलें. 'खबर ना' ताणें म्हणलें. 'खबर ना.' मागीर बशींत कित्याक बसला तर? धा रुपया

दी पयलीं. मागीर जाय थंय वच.' कंडक्टर पिरपिरलो. 'अं...' तो घुस्पलो. तेन्नाच म्हजें लक्ष ताच्या कपड्यांचेर गेलें. ताणें पिजाम आनी टी शर्ट घाल्लें. पांयांत बूट आशिल्ले. हातांत एक बडी. 'काड रे काड पयशे सडसडीत' कंडक्टरान म्हणलें. पूण त्या दादल्याच्या तोंडार प्रस्नचित्र कशें आसलें. म्हाका कंडक्टराची भास आवडली ना. हांवें म्हजे पर्सींतल्यान धा रुपया काडून ताका दिले.

पणजे प्रासार हांव सकयल देंवलें. तोवूय म्हज्या सांगाताक देंवलो. 'बाय, हांव कोण?' ताणें अचकीत म्हाका प्रस्न केलो. ताच्या प्रस्नान हांव घुस्पलें. 'हांव नकळ' हांवें म्हणलें. 'हांव कोण तें म्हाका याद जायना' तो आतां घुस्पल्लेवरी जाल्लो. आतां हांवूय घुस्पलें. इतल्यान फाटलो मनीस मुखार आयलो. 'हांवें हाका म्हापश्यां पळयलां. मारूतीच्या देवळा कडेनच रावता. हांव जाणा ताचें घर' 'तूं म्हाका वळखता. कोण हांव?' तो दादलो आतां रडकुन्यां आयिल्लो. ताच्या तोंडा वयले भाव पळयतकच हांवूय रडपाक लागतलें अशें म्हाका दिसलें.

इतल्यान को-.तरी धांवत आयलो. गाडी घेवन आयिल्लो तो. ताका कोणेतरी ताचो बापूय बशींत चडला म्हणपाचें सांगिल्लें. सकाळीं पासयेक गेल्लो तो असो खंय गेलो ह्या हुस्क्यान ताचो पूत गाडी घेवन बसस्टॅडार आयिल्लो. 'बाबा!' ताच्या पुतान म्हणलें. 'हांव कोण?' त्या दादल्यान ताका विचारलें. 'बाबा!' पूत सामको कासावीस जाल्लो बापायची दशा पळोवन. 'बाबूश, ताका पयलीं दोतोरागेर घेवन वच' कोणेंतरी म्हणलें. तो भुरगो त्या जाण्टेल्याक घेवन गेलो.

हांव तशेंच मार्केटाच्या बशींत चडलें. स्वताचें अस्तित्वूच विसरिल्ल्या त्या दादल्याचें मुखामळ म्हज्या दोळ्यां मुखार येवपाक लागलें. इतल्यान कंडक्टर म्हज्या मुखार उबो रावलो. 'खंय वता?' ताणें म्हाका विचारलें. हांव खंय वता काय? पणजे, म्हापश्यां, वास्को...

म्हाका कांयच याद जायना जाली. तकली सामकीं ब्लॅंक जाली. 'एक मार्केट दी' म्हजे कुशींत बशिल्ल्यान म्हणलें. 'हांवूय मार्केट' हांवे सडसडीत कंडक्टराच्या हातांत धा रुपया कोंबले.



३६.

# काळखांतल्यान उजवाडा कडेन

काळोख म्हणल्यार निरशेणी. काळोख म्हणल्यार सगळें सोंपिल्ल्याची कुरू अशें मत आमचे आमीच करून घेतात. आनी मागीर जिवीतभर काळखा विशीं भिरांत बाळगून जियेतात. आनी आमच्या भुरग्यांकय तीच भिरांत दाखयतात. ताचो परिणाम मागीर खूब वायट जाता. येदेशें अपयश आयल्यार लेगीत काळो किट्ट काळोख मुखार पातळ्ळा अशें त्या भुरग्यांक दिसता आनी तीं त्या काळखांत सासणा खातीर आपल्याक सोंपयतात.

खरें म्हणल्यार आमीच पयलीं काळखाक समजून घेतिल्लें नासता. काळोख हें सैमाचें एक रूप. उजवाडा इतलेंच, न्हय उजवाडा परस देखणें. ह्या काळखांतच सृजन घडून येता. धर्तरिच्या पोटांतल्या काळखांत बीं किल्लता. तो काळोखच ताका स्फूर्त दिता उजवाडाच्या दिकेन वचपाक.

मागीर त्या उजवाडाचो ध्यास घेत तो आंकूर धर्तरेचें पोट फाळून भायर येता. आनी मागीर उजवाडांत फुलता फळता.

मनशाचें बाळकय अशेंच आवयच्या गर्भातल्या काळखांतल्यान उजवाडाचो ध्यास घेत जल्म घेता. ज्या काळखांत तो जीव आकार घेता, जाची संवकळ ताका णव म्हयनें जाल्ली आसता त्या काळखाक ताणें भियेवचें कित्याक? कित्याक धरचो न्हय पर्थून उजवाडाचो ध्यास? काळोख–उजवाड ह्यो जिणेच्यो दोन बाजू हें सत्य मानून घेवन आमच्या भुरग्यांय हाची जाण आमी कित्याक दिवची न्हय?

हो सुर्या जो उजवाड फांकयता तोवूय काळखाचें हड्डें फोडून भायर आयिल्लो आसता. दर दिसा तो अस्तमता तरीय त्याच नेटान तो दुसऱ्या दिसा उदेता. ह्या सुर्याची देख आमी आमच्या भुरग्यांक कित्याक दिनात? तांच्या मनाक सतत काळखाचो हावको दाखोवन कित्याक भिवयतात? अभ्यास–परिक्षा–परिक्षेचो रिजल्ट हांचे विशीं एक कांच सो भुरग्याच्या मनार बसयतात. ह्या सगळ्यांतल्यान बऱ्या मार्कानी बरे भाशेन पास जावप म्हणल्यार उजवाडाच्या दिकेन वचप आनी हातूंत अपयश येवप म्हणल्यार काळखाक वेंगावप असो अर्थ आमी भुरग्यांच्या मनांत भरशितात. म्हणून हे अशे कंवळे आंकूर येदेश्या अपयशान काचाबूल जावन ह्या भिरांकूळ, हावको म्हूण दाखयल्ल्या काळखाक वेंगावपाचें धाडस करतात काय?



३७.

# सैम शिटकायता

अख्खी रात तळमळून काडली. ताका कारणय तशेंच आशिल्लें. कारण कला अकादमींत भरिल्लें कैद्यांचें प्रदर्शन. मनीस मुळांत वायट नासता. ताचे भितरूय कांय बरे गूण आसतात हें सत्य हांगा पर्थून एकदां दिसून आयलें.

पूण तांचे मदल्या ह्या बऱ्या गुणांचेर वायटान जैत मेळयल्लें. हे वायट विचार मागीर सगळी नितीमत्ता गुठलावन दानवी विचारांची पोसवण करता. आनी मागीर तांचे मुखार मनीस जीव लेगीत कुस्कुटाचो थारता.

कित्याक मनीस असो वायटाच्या आधीन जाता? कित्याक? जाप सोदतना हांव घुस्मटलें. तशेंच उठून जनेला कडेन आयलें.

भायर फांतोड झिळमिळटाली. शितळ वाऱ्याचो झोत म्हज्या मुखामळाक आफडून गेलो आनी प्रसन्न दिसलें. म्हजी नदर जमनीर

आशिल्ल्या पाचव्या तणाचेर गेली. तें दंवान ओलेचिप्प भिजिल्लें. हो दंव म्हणूनय विचित्रूच. केन्ना पडटना दिसना. पूण ताची ओलसाण तो पडून गेला म्हणपाची जाणीव करून दिता. ज्युस्त सुखदुख्खावरी.

तणाचेर भिरभिरपी म्हजी नदर दुरगा कुशीक आशिल्ल्या आळवाच्या पानाचेर गेली. त्या पानाचेर एक दंवाचो थेंब लिकलिकतालो. पानाक आपल्या लिकलिकण्यान दिपकावपाचो यत्न करतालो. हांगा थंय थयथय नाचतालो. पूण पानान ताका कशेंच मानून घेतलें ना. आपले भितर जिरोवन घेतलें ना. तो दंवा थेंबो खिणयाळो. खिणयाळी आस दाखोवपी, खिणयाळें हांयस दाखोवन सासणाचें त्रासांत घालपी हाची जाणवीकाय घडये त्या आळवा पानाक जाल्ली आसुये. आपले आपणाक स्थितप्रज्ञ दवरलें आळवा पानान. तें त्या थेंब्याक भुल्लें ना. आनी त्या थेंब्याच्या एका बेसावध खिणाक ताका जमनीर मोखून मातयेभरवण केलें.

सैम येद्या येद्या गजालींतल्यान आमकां शिटकायता. पूण आमी... खरेंच आमी शिटकावतात व्हय?



३८.

# मनबेगुळ

आंब्याच्या रुखा पोंदा किल्लली ती वाल पळयतकच म्हाका एक काणी याद जाली...

एका उंच रुखार कांय सवणी रावतालीं. तीं सदांच आपल्याच मस्तींत गुल्ल आसतालीं. ताचें मदीं एक जाण्टेलें सवणें आशिल्लें. ताचे अणभवी नदरेन एकदीस झाडाच्या मुळांत किल्लली एक वाल पळयली. ताणे बाकीच्या सवण्यांक सांगलें, 'ही ती रुखा मुळांत किल्लली वाल आतांच हुमटून उडयात. नाजाल्यार ती एक दीस तुमचो घात करतली. जाण्टेल्याचें सांगणे कोणेच मनार घेतलें ना. वाल रुखाच्या आदारान झपझप वाडली आनी एक दीस ते वाली वयल्यान एक शिकारी वयर चडलो आनी ताणें सगळ्या सवण्यांक आपल्या जाळ्यांत धरलें.'

हांगा शिकाऱ्याचो भंय नाशिल्लो. पूण ते वाली खातीर आंब्याचें अस्तित्व नश्ट जावपाची भिरांत आशिल्ली. हांव ती वाल हुमटूंक मुखार सरलें. पूण ती सानुली वाल तोडप काळजाक पटलें ना. हांवें तिका जिवदान दिलें. हां हां म्हणटा म्हणटा वाल केन्नाच तरतराक आयली. बेनुल्ल जावन केन्नाच आंब्या रुखाक तिणें धांपून उडयलें. हांवें ती वाल वेळारूच हुमटून उडयल्ली जाल्यार...

मनरुखाच्या मुळांत अश्यो कितल्योशोच वाली किल्लतात. पाड्या विचारांच्यो, भिरांतीच्यो, संकश्टांच्यो...

ह्यो वाली वेळारूच हुमटून उडयनात जाल्यार त्यो बेनुल्ल जावन मनाक व्यापून उडयतात. मनाक हुस्क्याच्या दोरयांनी घुस्पावन उडयतात. दुख्खाच्यो मेरो घालून सुखाक आडायतात. झां-झां करून मनाचें अस्तित्वच धांपून उडयतात. मागीर मन कितलेंय धडपडूंदी-तडफडूंदी, बेनुल्लेच्या ह्या म्हाभंयकर विळख्यांतल्यान सुटप खूब कठीण. ही बिलामत आंकुरचे पयलीं हुमटावपाक मनाची घटसाण खूब गरजेची.



३९.

# जिणेचो अर्थ

"Life itself has no meaning. Life is an opportunity to create a Meaning" म्हज्या इश्टाचो एस.एम.एस. आयिल्लो. हांवें म्हजे इश्टिणीक तो दाखयत म्हणलें, 'खरेंच न्हय जीण म्हणल्यार...' म्हजें वाक्य पूर्ण जावचें आसा तें फणफणलें, 'कपल गो! अर्थ आसा हे जिणेक? सकाळ उदेता आनी रात सोंपता, हाचे मदीं आमची फकत धांवधांव. भुरगीं-बाळां, घरदार-घरकार, ऑफिस हाचे भितरूच घुंवप. स्वताचें म्हणून अस्तित्वूच ना. जीण खंय...'

ताची बडबड आयकून हांवूय विचारांत पडलें. ताची आनी म्हजी आनी अश्या कितल्याश्याच जाणांची काणी एकूच. म्हणचे आमी सगळीं जगतात ती अर्थहीण जीण. आनी त्या एस.एम.एसांतूय तेंच म्हणिल्लें. जिणेक अर्थ नासता म्हणून. हांव विरूस जालें. एस.एम.एसांत मुखारूय

कितेंतरी सांगलां हें हांव विसरूनच गेलें. बेठेंच कानार 'अर्थशुन्य भासे मज हा कलह जिवनाचा' पद सादूंक लागलें.

घरा वतना वाटेर म्हाका मिठायेच्या दुकानांत फ्रेश मिल्क केक हाडिल्लो दिश्टी पडलो. धुवेक आवडटा म्हणून हांवें तो घेतलो. मुखार आतेरां दिश्टी पडलीं. तीं म्हज्या पुताक आवडटात म्हूण घेवप जालीं. थंय लागींच करमलां विकूंक बशिल्ली. करमलांचें लोणचें म्हज्या घरकाराचे आवडीचें. बेगिबेगीन तिवूंय घेतलीं. इश्टीण हें सगळें पळयताली. तिणें त्रोंस मारलेंच, 'सगळ्यां खातीर घेतलें. तुजे खातीर घेतलें?' म्हजे खातीर... म्हजे खातीर कितें घेतलें... हांव घुस्पलें. तशेंच घरा गेलें.

म्हजे धुवेन आपल्या आवडीचो मिल्क केक पळोवन म्हाका वेंग मारली आनी म्हणलें, 'म्हजी मम्मा ती.' पुतान 'आवयस् आतेरां' म्हणून आतेरां घेत एका आतेराचो कुडको म्हज्या हातांत दिलो. हांवें करमलांचें लोणचें करूंक घेतलें. लोणचें मुरपाचें आशिल्लें पूण करकरीत करमलाच्यो फोडी तोंडांत उडोवन हाणें म्हणलें, 'आईची याद आयली.'

हांव ह्या तिगांयच्या मुखामळार उदेल्ली खोस पळयतालें. हांवें हाडिल्ले जिनस खावन तांचे तृप्त चेरे पळयतालें. तांची ती खोस, तांची तृप्ती म्हाका एक वेगळेंच समादान दिवन गेली. तिट्टें समादान... म्हाका इश्टाच्या एस.एम.एसांतलो फुडलो वांटो याद जालो. Life is an opportunity to create meaning... म्हजे जिणेंत ही संद हांवें घेतिल्ली. म्हज्या घरच्यांच्या सुखांत म्हजे खातीर समादानाची निर्मणी करून हांवें म्हजे जिणेंत अर्थ हाडिल्लो.



४०.

# झुजामळ

इतिहास गवाय आसा, झुजामळार जाल्ल्या कितल्याश्याच झुजांचो. ह्या इतिहासाच्या पानांचेर नोंद जालां महाभारतांतलें सगळ्यांत व्हडलें, कुरुक्षेत्राच्या झुजामळार जाल्लें झूज. सत्य-असत्या मदलें झूज. ह्या झुजांत डावाक लागिल्लीं रगताचीं नातीं. पणजो-आजो-नातू, भाव-भाव, काका -मामा, गुरू-शिश्य ह्या नात्यां मदलें हें झूज व्हांवयत रावलें एकमेकांचें रगत.

आतां दर एकल्याचें मनूच जालां कुरूक्षेत्राचें झुजामळ. हांगा दिसपट्टी चालू आसतात सत्य-असत्य,नीत-अनीत, बरें-वायट, भावार्थ-सुवार्थाचीं झुजां. हांगाय डावाक लागतात रगताचीं नातीं, मनशां-मनशां मदलीं इश्टागतीचीं, मनीसपणाचीं नातीं. पूण मनांतल्या ह्या झुजामळार मात जैत सत्याचेंच जातलें हाची शाश्वती नासता.

सत्यवचनी युधिष्ठिराकडल्यान 'नरो वा कुंजरोवा' ह्या आपल्या प्रस्नाच्या जापेचेर विस्वासून आपल्या आपणाक सोंपोवपी गुरू द्रोण आमका पळोवंक मेळटा कुरुक्षेत्राच्या झुजामळार . मनांतल्या झुजामळार मात अशे सत्यवचनी युधिष्ठिर आनी तांचेर पातयेवन आपली जीण काबार करपी द्रोण पावला-पावलार मेळटात.

मनांतल्या झुजामळार अश्वथामाय उणे नात. संहाराची सपनां पळोवपी, आपल्या हावेसाच्या तरसादीन निरपराधांचे जीव घेवपी अश्वथामा. कितें तरीं भव्य-दिव्य करतले अशीं सपना पळोवपी आनी तीं तुट्टकच त्या सपनांचे भळभळपी घाय घेवन आशेचें तेल सोदीत भोवपी अतृप्त अश्वथामा. दानशूर-वीर कर्णाक मातयेभरवण करपाक कूट राजनिती वापरपी कृष्णाचे अवतारूय ह्या मनांतल्या झुजामळाचेर दिश्टी पडटात. गांधारी, द्रौपदी, कुंतीचींय रुपांय ह्या मनांतल्या झुजामळाचेर आपलो प्रभाव दाखयतात.

जोमेरेन इतिहास कुरुक्षेत्राच्या झुजामळार जाल्ल्या झुजाची गवाय दीत रावतलो तोमेरेन मनशाच्या मनांतल्या झुजामळाक पूर्णविराम ना.



४१.

# तिचें वखद

हालीसरां म्हाका चलतना पांय ओडिल्लेवरी जाता. कित्याक काय म्हणून फाटल्यान पळयल्यार ती बराल्या. दोनूय हातांच्या तायटार आपली खाडकी दवरून. खंयतरी अंधातरी हुमकळ्ळेवरी. तिची नदर खंयतरी कितेंतरी सोदताली. नाशिल्ल्यांतल्यान 'आसा' तें सोदून काडिल्लेवरी. म्हाका तिची ती नदर पळोवन कोयराच्या डब्यांत खाण सोदपी भिकारी याद जालो. ती कितें सोदता काय?

हांव तिच्या आनीक मातशें लागीं गेलें...

... जगपाक जाय म्हणून जगता अशी शी कितें ती म्हाका दिसली. तिच्या माथ्यार वजें पेलिल्लेवरी, एक कर्तव्य म्हूण चलिल्लेवरी ती म्हाका दिसली. हांव तिका केन्ना सावन वळखतां. सुखाच्या झोपाळ्यार वयर-वयर धोलतना आनी थंयच्यान सकयल आपटून तिचें कमर साणावतनाय

हांवें तिका पळयल्लें. अशें पडिल्लें आसतना परतें उठून मार्गाक लाग
भोव कठीण काम. तेवूंय बी कोणाच्या आदारा विणें. पूण तिणें तें का
करून दाखयल्लें. उमेदीचो मूळ स्रोत आटला तरींय आशेचो झरो घेव
खांची-कोनशांतल्यान, व्हाळा-गाळांतल्यान धांवतनाय तिका पळयल्
मागीर आतांच तिच्या तोंडार अशी निर्शेणी कित्याक? हांवें तिचें काळी
सांसपिलें...

...म्हाका तिच्या काळजाचें मूळ सुकिल्लें काश्ठ कशें दिसलें. थं
मायेच्या उतरांचें शिंपणें नाशिल्लें. सपनांच्या कोमऱ्यां विणें खांदयो सुक
सडसडीत दिसताल्यो. निर्शेणीच्या काळखान उमेदीचीं किरणांच आडाव
दवरिल्लीं. तिच्या काळजाची गत पळोवन हांव थरथरलें...

...तिची ही अवस्था बदलूंक जाय. ती म्हजें अस्तित्व. तिच
अवस्था बदलिना जाल्यार म्हजेंय अस्तित्व सोंपून वतलें. हांव भियेल
पूण हांवें धीर सोडलो ना. तिच्या काळजाचें वखद हांव जाणां आसले
हांवें एका कवीच्या कवितेचें मलम ल्हवूच तिच्या काळजाक लायलें-

**"When darkness comes and fear fills your heart**
**Know, there is a way**
**When all your dreams come crashing down**
**know, there is a way"**

म्हजे जिणेचें काळीज पेखत आयलां...



४२.

# नस्ती बढाय

सेगीत पडिल्ल्या पावसांत भिजून खूब थंडी जाल्ली. तशेच स्थितींत बशींत चडलें. तकली भेरेल्लेवरी जाल्ली. आंगूय हून जावंक लागिल्लें. जोर येवपाचीं लक्षणा हीं अशें मनांत म्हणत हांवें दोळे धांपले आनी सिटाक तकली तेंकयली. इतल्यांत फाटल्या सिटार कोण बसपाक आयले. तांच्यो गजाली सुरू जालो. एकलो दुसऱ्याक सांगतालो, 'आरे, मी सोडटंय तेकां. सांगलय, आरे म्हाज्या भाटांतले आंबे आमी अशे फुकटूच वाट्टत.' दुसरो दादलो हांसलो. प्रकरण इतल्यार थांबलें ना. 'जाणय मरे! हीऽऽ बाग आसा आमची वाडीक. आंबे म्हणूं नाका, पणस म्हणूं नाका... आनी हे, रस्त्यार आंबे विकपी म्हाका शाणेपणां सांगतत. आरे म्हाज्या बापायची गाडी आसली त्या काळार. म्हणजे बग तूं. आमी काय अशेच पडलो रे? आं.'

हांव दोळे धांपून तांचें उलोवणें आयकतालें. तो दादलो आतां व्हडल्या व्हडल्यान आपल्या भाटां देसांच्यो गजाली रंगोवन सांगपाक लागलो. 'ऊ रे वाडीक जावन नुस्तां गणपत जरी म्हणलां तरी कोणूय शेंबडां पोर सुद्धां तुका म्हाजे कडेन घेवन येतलां.'

गणपत हें न्ग्व आयकना फुडें म्हाका कसली याद जाली. हांवें बारिकसाणेन त्या मनशाचो आवाज आयकलो. आरेच्च्या! हो तर वाडीचो गणपत. म्हजी चुलत भावज एकदां म्हाका आपल्यागेर घेवन गेल्ली. तेन्ना हांवें गणपताक पळयल्लें. ताच्या बापायन ताका इस्टेट म्हूण दवरिल्ली बैलाची गाडी घेवन तो लोकांच्या भाटांतले आंबे-पणस बाजारांत पावोवपाचें काम करतालो. पूण तोंड मात बढायो मारपाक आयकनासलें. ताच्यो त्यो बढायो आयकून हांव अजापलां तें पळोवन म्हजे भावजेच्या आवयन म्हणिल्लें, 'शिरां पडों त्या गणपताचां. तेची लांब काश्टी आनी बढाय मात बेश्टी.'

म्हजो स्टॉप आयलो तशें हांव उठलें. फाटल्यान बशिल्ल्या गणपताचेर नदर मारली आनी भावजेच्या आवयचीं उतरां याद जालीं आनी नकळटां खूंक करून हांव हांसलें. 'ही आनी पिसाय शी' म्हणपी लोकांच्यो नदरो चुकयत हांव सकयल देंवलें.



४३.

# निरागसताय

'राव-राव. हांव पडटलें.' ती आवय त्या भुरग्याक समजायताली. पूण तें कशेंच आयकनासलें. निमाणें रावूं नजो जावन आवयन एक थापट त्या भुरग्याचेर मारलें. भुरगें रडपाक लागलें तशें आवयन कळवळून भुरग्याक पोटा कडेन धरलें, ताचो पोलो पोशेलो. माथ्यार हात भोंवडायलो. कांय खिणां भितर तें भुरगें सगळें विसरून आवयचे वेंगेंत खेळपाक लागलें. कांय खिणां पयलीं तें रडटालें म्हणपाची कसलीच कुरू ताच्या तोंडार दिसनासली.

कितलें निरागस आसता भुरगें. मातशें मायेन लागीं ओडल्यार पुरो सगळे रुसप-फुगप विसरून वता. पूण आमकां मात तशें जमचना. हांशाचो कितलोय पोव तोंडार थापलो तरी कोडू यादींचे हुमेन दुःखाचो तो पोव खोपेताच.

कित्याक जमना आमकां हें? विचार करतां करतां हांव ल्हवूच म्हज्या काळजांत बाग घेवन पळयतां. कितलेशेच बारीक मोटे घावे, झरकटे यादींच्या चिखला पोंदा लिपिल्ले दिश्टी पडटात. यादींचो चिखोल. तो भुरग्यां मदीं नासताच. भुरग्यां मुखार आसता फकत वर्तमान. ताची आवय, तिची वेंग, तिची माया. ते मायेन तें सुखावता.

भुरगें व्हड जाता, तशें तशें काळजा वयली निरागसतायेची कात उडयता. आनी सांठोवंक लागता कोडू यादींच्या चिखलांत येदेश्या झरकट्याच्या पोतान व्हडले व्हडले घावे. चाबलें काय खरपुपाची आमकां संवय. ते संवयेन मागीर दरेक नव्या झरकट्यार, घाव्यार आमी यादींचो चिखोल उस्तोवंक लागतात. पयलींच्या घाव्या-झरकट्यांच्यो खवळ्यो काडून कोडू यादी जागयतात. तीच कोडसाण नकळटा आमच्या तोंडा वयल्या हांशांत उदेता.

भुरग्यांक फाल्यांचें आनी फाटल्या गजालींचेंय पडून वचूंक नासता. तीं फकत वर्तमानांत जियेतात. म्हणून निरागस आसतात. हे निरागसतायेची कात आमच्या काळजार घट्ट दसोवन दवरली जाल्यार, कोडू यादींचो कितलोय चिखोल जायना, त्या झरकट्यांतल्यान, घाव्यातल्यान अणभवाचें सुंदर कमळ फुलोवप आमकां सहज शय जातलें. म्हजे ते दिकेन यत्न सुरूच आसात. तुमचे?



## ४४.

# मनशावें जिणें

मनशाचें हें जिणें
देवाचें गा देणें
सूख-समादानी करचें
धर्तरे वयलें हें पेणें

हे जिणेचेंच मनशान हालीं फकांड करून उडयलां. पवित्र-अप्रूप अशा ह्या देण्याक किडी-मुये परस पारस्ट करून उडयलां, न्हय ह्या देण्याक कांय न्ही करून चिड्डून उडोवपाचो ठेकोच घेतला मनशान.

म्हजी आजी केन्ना केन्ना सांगताली, 'मनशाक हो जल्म सोंपेपणी मेळना. कीड-मूय अशे सात तरेचे जल्म घेतल्या उपरांत हो मनीस जल्म मेळटा. हो जल्म असो बेश्टोच वगडावंक फावना. ताचो फावो तो उपेग करपाक जाय.'

बेबी आईगेर राकेस जल्माक आयलो आनी वाड्या वयल्या वैजीण मावशेन ताचे ताळूक नाखूट रोमून ताका मारलो अशी खबर हांवें जायते फावट आयकल्ली. हांवें मागीर आजयेक विचारचें, 'आजये, राकेस कितल्या जल्मा उपरांत जल्माक येता?' म्हज्या प्रस्नाचेर आजी गडबडटाली. मागीर हांवें फुडें विचारप, 'तो भुरगो राकेस म्हणून वैजीण मावशेक कशें कळ्ळें?' 'तो भिरांकूळ दिसतालो. मोट्टे तकलेचो, मोट्ट्या दोळ्यांचो.' आजयेन जाप दिवची. 'पूण ताका कित्याक मारलो?'– हांव. 'मारचोच पडलो. नाजाल्यार तो वारें खावन लेगीत व्हडलो जावपाचो आनी लोकांक खावपाचो.' 'आजये हो जल्मूय देवूच दिता न्हय गे. मागीर वैजीण मावशेन ताका कसो मारलो?' म्हज्या प्रस्नाचेर आजीय ओग्गी बसून चिंतूक लागताली.

म्हजी आजी अशिक्षीत, ती सात जल्मांची गजाल सांगता तें घडये चुकूय आसत, पूण मनीसजल्मा विशीं तिचें भाश्य मात खूब कितें सांगून वता.

पूण आयच्या मनशाक हें भाश्य मातूय मान्य ना. म्हणून तर एकेवटेन आपलेच जिणेक नश्ट करपाची प्रवृत्ती मनशां मदीं वाडत चल्ल्या आनी दुसरे वटेन भौतीक सुखाच्या हांयसाक फारावल्ल्या मनशान आपलें सादून घेवपा खातीर दुसऱ्याचो जीव घेवपाची प्रवृत्तीय नेट धरीत आसा. कितले सहजतायेन करता हें सगळें तो. ताका कसलोच भंय दिसना काय?

काल हांव ह्याच विशयाचेर म्हजे आकाशवाणी वयले एके इश्टिणी [illegible] एक गजाल प्रामुख्यान मुखार आयली. आयज मनशाक कोणाचीच भिरांत उरली ना. ना देवाची ना कायद्याची. एका काळार कसलेंय वायट कर्म केल्यार देव पाप करता म्हणपाची एक भिरांत आसताली. ही भिरांत मनशाक कांय प्रमाणांत काय जायना पाप करपा परसून आडायताली. पयलींचे कायदेय खूब खर आसताले. गुन्यांवकाराक कडक ख्यास्त जाताली. आतांचो मनीस नरसंहारक वृत्ती आपणावन एकेवटेन भंयमुक्त जाला आनी दुसरे वटेन चारूय वटेंतल्यान भंयाचे कोंडयेंत सांपडला.



४५.

# अती आस

भुरगेपणांत आमी परवड म्हणटालीं: शुभ: करोती कल्याणम् आरोग्यम् धनसंपदा. आनी उपरांत मागणे करतालीं: हे देवा, आमी तुजीं भुरगीं नेणार. आमचें कितेंय चुकल्यार आमकां भोगशी. आमकां सगळ्यांक सूख, समादान, आरोग्य, धनसंपत्ती दी. पूण ही प्रार्थना म्हणून आनी मागणें करूनय आमचीं जाण्टीं आमकां सांगतालीं, मनशाचें आरोग्य हें सगळ्यांत चड गरजेचें. तें बरें आसल्यार सूख, समादान, पयसो बी सगळें आपशींच लागीं मेळटा.

पोल्यार मुमरां फुटलीं तशीं मोगाच्या भावनेचीं काळजांत ल्हारां फुटलीं. त्यावेळार सिनेमा, कादंबऱ्यो हातूंतलीं वाक्यां तनामनार छाप घालून गेलीं... 'मोगा मुखार सगळी धनसंपत्त तुच्छ' 'तुजो मोग मेळ्ळ्यार पुरो, म्हाका हेर कसलीच धनसंपत्त नाका. तुज्या मोगाच्या म्हालवजार

हांव संवसार तरन.'

पूण संवसार म्हणटा तो अदृश्य हुलोपाचें वलय. मोग नासल्यार एकवेळ जिवें रावूं येता पूण पयसो नासल्यार ह्या हुलोपांत केन्नाच हुलपून नानपयत जावपाची पाळी येता, हें संवसाराच्या वलयांतच पडल्यार कळटा.

म्हणून धनसंपत्ती ही हेर मागण्या इतलीच म्हत्वाची. मनशाच्या कितल्याशाच गरजां खातीर ही धनसंपत्ती जाय पडटा, न्हय ती सामकी गरजेची आसता. ती आसची अशी आस धरपूय तेखातीर गैर थारना. पूण ते आशेकय एक मर्यादा आसूंक जाय...

...आशेखोर मनशाचें कशें अधपतन जाता हाच्यो कितल्योशोच काणयो आयकल्ल्यो आसतात आमी, कितल्योशोच घडणुको आमी दोळ्यां मुखारय घडटना पळयतात. ही आस पयलीं एक सोयरो कशी मनाच्या दारा भायर रावन टकटक करता. मनाचें दार उक्तें करून तिका मातसो जरी भितर थारो दिलो काय ती ल्हवूल्हवू मनाक आपल्या हातांत घेता आनी तुमकां नकळटा मनाची स्वामिनी जावन बसता. मागीर तुमी फकत तिचो हुकूम आयकुपाचो. ती सांगता तशें करपाचें. झगडीं, झुजां प्रसंगाक खुनूय. कसल्याच मनीसपणाच्या नात्याक पाळो दिवपाची गरज भासना त्या वेळार मनशाक.

ही अती आस आयज दरेकल्याच्या काळजाचेर राज्य करतना दिसता. घडये म्हज्याय... म्हाका म्हजें काळीज सांसपून पळोवंक जाय.



४९.

# पासियेंस

'मम्मा म्हजे फोटे खंय आसात गे? बेगीन सांग?' म्हजी धूव ताणशेताली. ताका थार नाशिल्लो. म्हजे हात कामांत गुंतिल्ले आनी तकलीय चलनाशिल्ली. खंय दवरल्या काय फोटे हांवें? याद खंय पासयेक गेल्ली देव जाणा. 'राव गो दितां.' हांवें ताका सांगलें. पूण ताका पासियेंस नाशिल्लें. 'थंय आलमारींत पळय... नाजाल्यार त्या ट्रंकांत पळय... म्हजे पर्सीत पळय... नाजाल्यार त्या काळ्या पास्तांत पळय...'

हांव सांगता सांगता तशें तें उस्तीत वतालें, पूण खंयच फोटवांचें नांव ना गांव. वेळ वता तशें तशें ताचें पासियेंस पेड्डेर जातालें. ताची अवतिकाय पळोवन म्हाका म्हजें भुरगेपण याद जालें. म्हजीं हुतहुतेपणा पळोवन म्हजी आवय म्हाका सदांच म्हणटाली, 'हें एक पासियेंस नाशिल्लें भुरगें! लग्न जातकच पासियेंसान संवसार केल्यार पुरो!'

पासियेंसाचें मुर्तीमंत रूप आशिल्ले म्हजे आजयेक झाडांचें पिशें. आमच्या आंगणांत आनी मागीरदारच्या पोरसांत तिणें तरातरांचीं झाडां लायिल्लीं. सांजेच्या आदेसाक ती ह्या झाडां मदीं शेणून वताली. पावसाचे दीस आसले. आकांताचो पावस झडटालो. वारोय तिरमिरेंत आसलो. मागीलदारांत आशिल्लें पोपायेचें झाड वाऱ्या सांगाताक झेलतालें. ताका पळयतां पळयतां आजयेन म्हणलें, 'ह्या पोराक पासियेंस ना. कशें झेलता पळय. अशें झेल्ल्यार मातयेक मेळटलें.' म्हाका आजयेच्या उतरांची कॉमीक दिसली.

'आगे, तो वारोच इतलो नेटान येता तें झाड झेल खावचेंना जाल्यार कितें अशशें नीट उबें रावतलें?' हांवें म्हणलें.

आजी एका खिणाक ओगीच रावली. मागीर तिणें म्हणलें, 'झाडाची जीण आनी मनशाची जीण एकूच कशी. अशें वारें-वादळ येताच. पूण ताकाय पासियेंसान तोंड दिवपाक शिकपाक जाय. मुळां घट्ट धरून रावपाक शिकपाक जाय जाल्यारूच माथ्या वयलो शेंडो तिगोवन दवरूंक मेळटा. मुळां सकट.'

आजी त्या वेळार संवसाराचें गिन्यान म्हाका करून दिताली हें कळूंकच ना. पूण तीं उतरां मात म्हज्या मनांत खंय तरी बीळ करून रावलीं.

म्हजे जिणेंतल्या एका एका पांवड्यार त्या गिन्यानान बिळांतल्यान तकली भायर काडून म्हाका शिटकायलें. त्या त्या वेळार हांवें शिटूकसाणेन, पासियेंसान म्हज्या विचारांच्या मुळांक घट दवरून अशा वादळ-वाऱ्याक तोंड दिलां. म्हणुनूच अजूनय शेंडो तिगोवन आसां, मुळां सकट...

म्हजे आजयेन दिल्लें गिन्यान, म्हजी धूव आयकत काय खबर ना. पूण प्रयत्न करत रावप होवूय पासियेंसाचोच एक प्रकार.



## ४७.

# बेबे

सवंयेन सदचेवरी स वरांचेर जाग आयली. पूण आयतार आशिल्ल्यान हांव दोळे धांपून हांथरुणाचेर लोळपाचें सूख घेतालें इतल्यान 'डरांवऽऽऽ डरांवऽऽऽ' आवाज कानार पडलो आनी हांव हाथरुणा वयल्यान फटाक करून उठून बसलें.

बेबो रडटालो. कितल्या तेंपान म्हणटा तसो बेब्याचो आवाज हांवें आयकल्लो. खूब तेंपाचो इश्ट मेळिल्ल्याची खोस म्हाका जाली.

हांवें जनेला भायर नदर मारली. भायर दमट वातावरण आशिल्लें. ही दमटसाण म्हाका घुस्मटायता. काळजाचेर निर्शेणेचीं साय आयिल्लेवरी जाता. बेबो रडप म्हणल्यार पावस पडप हें म्हजें भुरगेपणांतलें समीकरण. पूण आतां बेबो दिसप लेगीत दुर्मिळ जालां थंय बेब्याचें रडप खंय.

हांव तशेंच उठून रांदचे कुडींत आयलें. थंयच जनेला

भायल्यांतल्यान बेबो रडपाचो आवाज येतालो. पूण...

म्हजे भुरगेपणांत आमच्या जमनी वयल्या घरा आशिकुशीक पावसांत बेब्यांचेंच राज्य आसतालें. फाटल्या व्हाळा कडेक, मागीरदारच्या पोरसांत, बांय कुशीक भांड तापोवपाचे चुली कडेन, कपडे उमळचेले फातरी कडेन आनी मागीर पावसाची सुलूस लागली काय सगळे वाटांनी तांच्या डरांव डरांवाचो तालबद्ध सूर गाजतालो. मागीर आमी भुरगींय खूब खूश जातालीं. आतां पावस येतलो हे भावनेन सामकी फुलारून येतालीं. आमच्या ओंठार घोळटाली आमची कविता, 'डरांव डरांव, का हो रडता बेडूकराव. पत्ता तुमचा नव्हता काल, कोठूनी आला सांगा राव.'

तेन्नाच्या त्या बेब्याच्या रडण्यांत कितली खोस दडिल्ली आसताली. तांचे रडणें कानार पडटकच ती खोस आमकांय जाणवताली. म्हूण आमी भुरगीं खोशी जातालीं तीं जातालींच. पूण जाण्टींय उमेदीन म्हणटालीं, ' ह्या कालोरान जीव नाका जाला. जावं बेबे रडले एकदाचें आतां पावस येतलोच.'

'डरांव-डरांव' परतून आवाज कानार सादलो. कितली आर्तता आशिल्ली ह्या आवाजांत. असहायतेची देग आशिल्ली त्या आवाजाक. अचकीत म्हाका जाणवलें. केदोवेळ जालो तो एकलोच बेबो रडटालो. म्हाका खिणभर तो बेबो घरांतल्या मनशां विणें दर घरांत बंद आसपी भुरग्यावरी दिसलो...म्हाका म्हजी घरा कडेन अख्खो दीस एकटींच उरपी भुरगीं याद जाली. म्हजे काळीज आतां बेब्याक रडपाक सांगात दितालें.



४८.

## सूप-चाळण

मिर्ग अंदू सामको नेटान वाजत-गाजत आयलो. आनी केन्ना न्हय तो भिजलो. गेलीं आठ वर्सां तोंड बांदून मोन्न्यांनी बिराडां बिराडांनी आमच्या सांगाताक भोंविल्लो तो. ह्या बिराडांतूय बाल्कनीचे एका कोनशाक ओग्गी पडून राविल्लो तो. पूण पावसान ज्युस्त ताका पळयलो. शी! बुरसो आठ-आठ वर्सां आंगाक उदक लायना म्हणत ताका चिप्प भिजयलो. बाबडो साक आठ वर्सांचें भांडवल पोटांत घेवन तोंड बांदून आशिल्लो तसो तोंड धांपून उदकांत न्हालो. ताची ती अवस्था म्हज्यान पळोवं नजो जाली. हांवें ताका मुक्त केलो.

ताणें आपले भितर सांबाळून दवरिल्लें हिण्डालियमचें सूप आनी तांदळाची चाळण भायर काडली. ह्या आठ वर्सांत तांचो उपेगूच जालो ना, काय केलो ना?

म्हाका म्हजे आवयलें घर याद जालें. रेशनाचो तांदळाचो साक आयलो काय दोन दीस सांजवेळार तांदूळ चाळपाचो, आसूडपाचो, वेंचपाचो आक्त जातालो. अश्या वेळार म्हजी आजी आमकां तें काम बारीकसाणेन दाखयताली. एक दीस अशेच तांदूळ वेंचतना तिणें म्हणलें, 'जाका हें आसडप, चाळप, वेंचप नकसूद जमता तो मुखार सरता'. आजयेन म्हणिल्ली तीं उतरां म्हज्या घट्ट मतींत उरली. पूण ताचेर विचार केन्नाच केलो ना.

आयज तें सूप आनी चाळण पळयतकच परत तीं उतरां याद जालीं. जीण म्हणल्यार तांदळाची रास. सूख-दुख्खाचे आशे-तुसां, फातर, पोल हांची भरस तातूंत आसताच. कुशळतायेन ते तांदूळ आसूडपाक, वेंचपाक जाय. निश्काळजीपणान तें काम केल्यार ते फातर-तुसां तशींच उरू येता. मागीर तांच्या भरीक बरड-किडीय तांदळांत घर करूंक लागतात.

हांवें तें सूप-चाळण साकांत बांदून दवरिल्ली. आनी म्हज्या काळजांतय. जिणेंतल्या सुख-दुख्खांक आसूडपाक-वेंचपाक.



४९.

# सुवर्णमध्य

अख्ख्या दिसाचें काम आटपून मातशें विसव घेवंक पडिल्लें थंय आसा भुरग्यांची झगडीं सुरू जालीं. ती कित्या खातीर वाद घालतात हें कळून घेनासतना हांवें म्हजी भरभर सुरू केली. तकली जड जायसर आनी ताळो वळून येसर हांव भरभरतालें हें अकस्मात म्हज्या लक्षांत आयलें. भायल्यान येवपी आवाजूय केन्नाच बंद जाल्लो. हांवें दोगांय मदलें झगडें मिटोवन सुवर्णमध्य सादलो ह्या समादानान हांव आड पडलें.

आड पडलें खर पूण दोळो लागलो ना. दोगांयचें झगडे खंयच्या विशयार चलिल्लें आनी चलिल्लें तें खरें झगडें काय दोगांय बेश्टींच वाद घालतालीं हाचो विचार लेगीत हांवें केलो ना. म्हज्या कानांक तांचो संवाद जे तरेन लागलो तशी म्हजी त्या संवादाचेर प्रतिक्रिया आयली. तरीय तो वाद जावं झगडें खऱ्यानीच आशिल्लें जाल्यार हांवें तांचे मदीं

सुवर्णमध्य सादपाक कसले यत्न केले? फकत भरभरलें. रागारागान. आनी म्हजेंच लुकसाण करून घेतलें.

हांव तशेंच उठून भायल्या हॉलांत आयलें. दोगांय टीव्ही वयलो सिनेमा पळोवपाक गुल्ल जाल्ली. तरीय हांवें तांकां विचारलेंच. 'येदोळ तुमी कित्याक झगडटालीं रे?'

'कंपासा खातीर'–पूत

'पळयलें, हांव मदीं पडलें म्हणून बरें जालें. नाजाल्यार तुमचीं झगडीं वाडपाचीं'– हांव.

'ही आनी एक. आमी तुजी बडबड आयकून झगडीं बंद करूंक ना. आमी कंपास उक्तो करून पळयलो. भितरल्या रबराचेर नांव कोणाचें आसा ताचे वयल्यान आमचें झगडें मिटलें. पूण तुजी पिरपिर आयकून तकली मात उसळ्ळी'–धूव.

हांव मोन्यांनी उठून भितर गेलें. बारीकसाणेंन विचार करतां करतां म्हज्या एक लक्षांत आयलें. हालींसरा दोन मनशां मदीं, दोन गटां मदीं वा दोन समाजा मदीं कुट्टूकुट्टू जाता. तेन्ना तांचे मदीं सुवर्णमध्य सादपाक म्हजे सारकीं कांय मनशां मदीं पडटात. आनी तांचे विचार, तांचे प्रस्न समजून घेवचे बदला आपलीच बडबड करून मूळ प्रस्नाक व्हड करतात. आतां ते बरे समजिकायेचे आसले जाल्यार आपले भितर समजोतो करून मेकळे जातात नाजाल्यार म्हजे सारकिल्ल्यांच्या बडबडींत आपुणूय व्हांवून वतात आनी समाजाचें पर्यायान आपलेंय लुकसाण करून घेतात.



५०.

# भरकटिल्ली नदर

'येऽऽय, लायफ इज शॉर्ट लिव्ह इट' कानांक हेडफोन लावन बशिल्लो तो भुरगो व्हडल्यान आड्डुलो तशे ताच्या सांगाताक आशिल्ले किशोरवयीन भुरगे फसफसून हांसले. सगळेच जाण लायफ एन्जॉय करपाच्या मुडांत आशिल्ले.

हें चित्र आभकां दीसपट्टे जिणेंत कितलेशेच फावट दिश्टी पडटा. जीण ही मुक्तपणान भोगपाची. ती सिनेमातल्यावरी रंगरंगयाळ्या सपनांनी रंगिल्ली आसची. जीण म्हणजे मजा. तिका कसल्याच बंधनान घुस्पावन दवरप, तिच्या वेगाचेर मर्यादा घालप आयच्या किशोर वयांतल्या भुरग्यांक वा तरणाट्यांक आवडना, जावं मागीर तो गरीब, मध्यमवर्गीय वा गिरेस्त आसूं. सगळीं कडेन हीच मानसीकताय दिसून येता.

जीण ही फकत एन्जॉय करपा खातीरूच आसता असोच सो सूर

सगळीं कडेन आयकूंक येता. जल्मदिसा पोंतान कसले कसले दीस मनोवपाची वृत्तीय वाडीक लागल्या. नवें वर्स, दिवाळी अशेय दीस सामुहीक रितीन मनोवप जाता. ते निमतान वल्यो पार्ट्यो, नाच-गाण्यांचें आयोजनूय केल्लें आसता.

म्हाका हांगा तुळा करपाची ना. आमींय केन्ना भुरगीं आशिल्ली. जुवानपणांतली फुलोरी सपनां आमीय पळयिल्लीं. आमकांय आमच्या जाण्टयांच्यो कांय गजाली आवडनाशिल्ल्यो. ताचे आड आवाज उठोवपाचें कामूय आमी केलां. पूण हें सगळें आमचे मर्यादे भितर रावून, जाण्ट्यांचो आदर राखून केलां. आमची पिळगी जावं ती खंयच्याय सामाजीक पांवड्या वयली. तिचे मुखार एक मोख आसताली. ती मोख गांठ्ठली जाल्यार शिक्षण सामकें म्हत्वाचें हाची आमकां जाणविकाय आशिल्ली. एका थारावीक समाज देवस्थेंतल्यान, पांवड्या वयल्यान वयर येवपाक जाय जाल्यार खर कश्ट करप गरजेचें हें आमकां कळिल्लें. आपल्याक जें जाय तें मेळपा खातीर आपल्या पालकांक कितले कश्ट पडटात हाची खबर आमकां आसताली. जिणेचो आनंद आमीय परिपूर्णतायेन लुटला. वाचनांतल्यान, इश्टागतींतल्यान, नाते-संबंदांतल्यान, नाटक-नृत्य-पदां ह्या कलेवरवी ह्या आनंदाचो आस्वाद घेतला.

आमचो काळ आनी आतांचो काळ हाचे मदीं खूब उदक व्हांवलां. पयलींच्या गजालींक आतां उजवाड दिवन कांयच फायदो ना. पूण तरीय आतांच्या भुरग्यांची ही भरकटिल्ली नदर पळोवन म्हजे सारकिल्या कितल्याच पालकांक दुख्ख जाता आसतलें. हांव सगळेच भुरगे म्हणिना. हाका आडवादूय आसात. पूण नवे पिळगेतले अर्द्या अदीक भुरग्यांची नदर मोख नाशिल्ल्यान भरकटिल्ली आमकां दिसून येता. हाका जितलीं तीं जापसालदार तितलींच, ते परस चड आमीय जापसालदार कारण आमी आमच्या रगतांत केळयल्ले आदर्श आमच्या शिरांपुरते मर्यादीत दवरल्या.



५१.

# सपन पतंग

बस चलतना म्हजी नदर जनेलांतल्यान मळबाचो थाव घेवपाचो यत्न करताली. अचकीत ती हायवोल्टाचे सरयेर थिरावली. थंय तो सरयेक हुमकळटालो. असहाय्य सो. ताच्या आंगार गुलाबी कोराची फोल आशिल्ली हाच्यो कुरवो मदीं मदीं दिसताल्यो तितल्योच. नाजाल्यार फकत सांगडो उरिल्लो. कितें जालें काय? काय काटाकाटींत ताचो दोरूच तुटलो?

त्या तुटिल्ल्या पतंगाची दयनीय स्थिती पळोवन मन खंती जालें. बस मुखार वता तशी तशी अस्वस्थताय वाडूंक लागली. हांवें अळंग दोळे मेटले. आमीय म्हणून आमच्या सपनांचे पतंग अशेच वयर सोडटांत. जाच्या हातांत जितली दोरी घट तितलीं ताचीं सपनां सुगूर. तीं मळबझेप घेत रावतात. जांच्या हातांतल्यान दोरी निसटली वा संवसाराच्या

राटाराटींत दोरी तुटली जाल्यार तांचे सपनपतंग भरकटत रावतात. सैरभैर जावन, दिकाहीण शे, आदार सोदीत.

म्हज्या बंद दोळ्यांआड अश्या सपनपतंग तुटिल्ल्या कितल्याश्याच मनशांची मुखामळां झळकून गेलीं. त्या मुखामळां मदीं एक म्हजेंय आशिल्लें. दुखावल्ल्या मनांन हांवें ल्हवूच काळीज सांसपिलें. हाताक लागली सपनपतंगाची विरविरिल्ली दोरी. मदीं मदीं तिका गांठयल्लें. सपनपतंगाचो कोरूय खंय खंय विटिल्लो. एक-दोन कडेन फोलीक फाळूय गेल्ले. त्या फाळांतल्यान पयस कितेंतरी झळकल्ल्याचो भास जालो. पूण कितें तें कळ्ळेंना.

'अॅ अॅ...हिऽऽहिऽऽ' माणकुल्या भुरग्याच्या खळखळून हांसपाचो आवाज आयलो. हांवें दोळे उगडले. म्हज्या मुखा वयल्या सिटार एका माणकुल्याक घेवन बायल बशिल्ली. ती मदीं केन्ना तरी बशींत चडली आसूंक जाय. तो माणकुलो म्हाका पळोवन खिदळटालो. ताका पळोवन म्हजें मन प्रसन्न जालें. अस्वस्थताय खंयचे खंय नाच्च जाली. म्हज्या सपनपतंगाच्या फाळांतल्यान झळकल्ल्या त्या गजालींचो म्हाका त्याच खिणाक बोध जालो. तीं म्हजीं नवीं सपनां आशिल्लीं. त्या सपनांचो पतंग करपाची उमेद मनाक जागयत हांव म्हज्या स्टॉपार देवलें.



५२.

# संस्काराची मूठ

धांपिल्ली मूठ सवायलाखाची म्हण्टात. मूठ उक्ती केल्यार वाऱ्यार घाल्ल्या भाशेन धा कडेन त्या मुठींतल्यो गजाली पावतात. पूण संस्काराच्या मुठीक मात ही म्हण लागना आसतली. कारण संस्कार म्हण्टात ते धांपून दवरपा खातीर आसनात. ते एका पिळगे कडल्यान दुसरे पिळगे कडेन पावपाक जाय. ते खातीर संस्काराची मूठ सदांच उक्ती आसता. आनी एका पिळगेंत आशिल्ल्या बऱ्या संस्कारांचें अर्घ्य दुसऱ्या पिळगे मेरेन पावयता. ही परंपरा कितलेश्योच पिळग्यो चलत आयल्या.

आमची पिळगी भाग्यवान आशिल्ली. आमच्या जाण्ट्या कडल्यान संस्कारांचें हें धन आमकां मेळ्ळे आनी आमच्या जिविताक सुसंस्कारीत करीत गेलें.

कसलेंय अर्ध्य दितना हाताची बोटां एकमेकांक तेकिल्लीं आसचीं. बोटांच्या खांचीतल्यान कितेंच सकयल वारोवंक दिवंचें न्हय अशीं जाण्टी सांगतालीं. संस्कारांची मूठ उत्ती करून आमच्या मुखा वयल्या पिळगेक त्या संस्कारांचें अर्ध्य दितना मात आमी ते सांगणे कडेन दुर्लक्ष केलें आसूंक जाय अशें म्हाका केन्ना केन्ना दिसता.

आयज जळी-मळी हावेसाचे रंगरंगयाळे पांखे उडटना आमका दिसतात. त्या पांख्यांचेर नदर दवरून संस्कारांचें अर्ध्य नवे पिळगेक दितना आमच्या बोटांक खांची उरता आसूंक जाय आनी त्या खांचीतल्यान आमकां नकळटनाच कितलेशेच गरजेचे संस्कार सकयल वारवतात आसूंक जाय. आमी मात फाटले पिळगेंतले संस्कार फुडले पिळगेंत पावोवपाचे सत्कर्म केले म्हूण आपलीच फाट थापटून घेतात. आनी नवे पिळगेंत कसलेय वायट संस्कार दिसून आयले जाल्यार मात तांका इतलें संस्कारीत करूनय फुकट गेलें म्हणून पिरंगत रावतात.

आमचीं जाण्टी म्हणजे ह्या सुसंस्कारांची जिती-जिवी देख. आनी ती आमच्या मुखार आसताली. आमकां संस्कार म्हूण वेगळें कितें शिकोवचें पडनासलें. ती देख आमचे मदींय रुजली पूण आमचे पिळगेक भायल्या जगांतल्या सपनांचीं दारांय उत्तीं जालीं. त्या सपनां फाटल्यान धांवतना, फुडले पिळगेक संस्काराचें अर्ध्य दितना उत्ते केल्ल्या मुठींतल्यान अर्दे-अदीक संस्कार सकयल वारयत उरिल्ल्या संस्कारांक नवे पिळगेच्या माथ्यार थापीत ती पारपोळ जाल्ल्या म्हूण कागाळ करीत उल्यांत.



५३.

# विस्वासाचीं मुळां

आमी रावतालीं त्या घरा फाटल्यान एक व्हडलें वडाचें झाड आशिल्लें. एक दीस त्या जागेच्या मालकान थंय नवें घर बांदपा खातीर वड मारलो. वड मारपाक व्हडले त्रास पडले ना. पूण मुळां हुमटीतना मात तांका खूब त्रास पडले. माती खणटा तितलीं मुळांच मुळां. घट्ट मातयेंत रोमिल्लीं.

तीं मुळां पळोवन म्हजें मन खूब फाटीं गेलें. आमी स भयणीं म्हणल्यार उमेदीचे वझरे. वाड्या वयल्या भुरग्यांक पुंजावन नाटकां करप, नाच बसोवप, पदां म्हणप चालूच आशिल्लें. मागीर मागीर हांव कविता म्हणपा खातीर वास्कोच्या भायर वचपाक लागलें. बाबाक म्हजेर पुर्ण विस्वास आशिल्लो. ताणें म्हाका सांगिल्लें,'तुजे मदीं साहित्याचो गूण आसा. तो तुवें वाडोवंक जाय. ते खातीर तुकां मेकळीक आसा. पूण

आपल्यो शिमो-मेरो खंय मेरेन आसात हें तुजे तुवें वळखूंक जाय.' केदो हो विस्वास म्हजेर. ह्या विस्वासान म्हाका दर खिणाक शिटकायलां. म्हज्यो मर्यादा थारावंक मजत केल्या. पूण आई मात शेजाऱ्यांच्या सांगणेंत आयली. वास्कोचे भायर म्हाका धाडचें न्हय म्हणपाक लागली. तेन्ना एक अक्षर लेगीत शिकूंक नाशिल्ले म्हजे आजयेन म्हणलें, 'ताच्या बाबाचो ताचेर खूब विस्वास आसा आनी विस्वास हो वडाच्या मुळा भाशेन आसता हें ते जाणा'.

विस्वासाक वडाच्या मुळांची उपमा दिवपी म्हज्या अन्नाडी आजयेचें कवतूक दिसलें.

त्या दिसा तीं वडाचीं मुळां पळोवन म्हज्या सामकार आजी उबी रावली. खरेंच वडाची मुळां कितलीं खोल खोल रुतिल्लीं. वडाच्या रुखाच्यो खांदयो कापल्यो, मून कापलें. पूण मुळां मात घट्ट रावली. वेळ येतकच परतीं रुजपाक.

संवसाराचो वड चंवरपाक ह्या विस्वासाचीं मुळां घट्ट आसूंक जाय. कोणीय कितलेय प्रहार करूं ह्या विस्वासाच्या बळग्यार तो संवसार वड जमनींर थीर रावता. म्हज्या बाबा, आजयेन तेन्ना दाखयल्लो तो विस्वास आयज व्हड वटवृक्ष जाला. ताचे सांवळेंत म्हजो संवसार संकटांचो कितलोय ताप सोंसता.



## ५४.

# वात

साडे आठाची निमणी बस. बशींत सामकी चिर्गट. कशें तरी ते चिर्गटींत रिगलें. आनी हावन्या भाशेन हांगा थंय पळोवंक लागलें. म्हज्या चेऱ्यार तेन्ना नटसम्राट अप्पासाहेब बेलवणकरांच्या चेऱ्या वेले भाव आशिल्ले. 'कुणी तरी घर देता का ?' तशें हांव 'कोणूय तरी बसूंक सुवात दिता व्हय ?' म्हणिल्लेवरी. आनी कोण तरी बारकेलो नाट्यरसिक म्हज्या चेऱ्या वेले भाव समजून उठलो आनी ताणें म्हाका सामकें निमण्या सिटार आपल्या येदी सुवात दिली. तातूंत हांवें म्हज्या कोंबलें.

म्हज्या शेजरा एक तरणाटो आनी ताचे कडेक एक तरणाटी बशिल्ली. तो क्रिश्चन आनी तें हिंदू. दोगांय दिवाळे संबंदांत उलयतालीं. रांगोळेचेर उलोवन जालें आनी मागीर दिवलेंतल्या वातीचेर आयलीं. ते चलयेन म्हणलें, 'जाणा मरे दोन वातीं एकठांय करून दिवलेंत घालूंक जाय. एक एक वात

घालून दिवली पेटयनात'. 'कित्याक?' ताचो प्रस्न. 'म्हाका खबर ना'–तें. 'तुवें तुज्या मम्मीक विचारूंक ना?' –तो. 'ना रे, तिका तरी खंय खबर आसतली. पयलीं पसून जाण्टीं तश्यो वाती लायतालीं म्हणून आमी लायतात' ताणें सांगलें. म्हाका मुमुरखेंच हांसूंकआयलें आनी हांव म्हज्या भुरगेपणांत पावलें.

'हें अशेंच कित्याक?' अशें सदांच विचारतां म्हूण घरांतल्यानी म्हजेर 'चड सुबेज' हो शिक्को लायिल्लो. तिनसांजेर तुळशी मुखार कयपंजी पेटोवन दवरतना हांवें एकदीस एकोडी वात घाली ती म्हज्या आवयन पळयली. 'आगो, कितले फावट सांगलें तुका एकोडी वात घालची न्हय म्हणून. सदांच आपलीं शाणेपणा लडयता' आवय म्हजेर तापली. 'दोन वाती कित्याक? एकोडी वात घाल्यार कितें जाता?' हांवें विचारलें. आवय बेजारून उठली आनी 'तुका सांगचे परस...' अशें म्हणून आपणेंच दोन वाती करून देवाक दिवो लायलो.

'इंदिरा, सांग गो ताका सारकें समजावन. यो हांगां यो' म्हजे आजयेन म्हणले. 'दोन वाती कित्याक लायतात जाणा. एक वात आमचे हे धर्तरिक, एक वात ह्या मळबाक.' 'मळबाक कित्याक?' म्हजो फुडलो प्रस्न तयार आशिल्लोच. इतल्यान म्हजी आवय थंय आयली. तिणें म्हणलें, 'मळब आमकां काळखाचें दान दिता. त्या काळखा खातीरूच आमकां उजवाडाचें म्हत्व कळटा. म्हणून त्या खातीर ताचे उपकार आठोवंक ती वात ताका'.

'आनी धर्तरिक कित्याक?' 'त्या काळखांत लेगीत ती आमकां सांबाळटा म्हणून?' आईन सांगलें.

'ए पिशा, दोन वातीनी चड उजवाड पडटा आनी आमकां काळखांत चड बरें दिसता इतलेंय खबर ना?' आपूण एक व्हड विज्ञानीक जाल्लेवरी म्हजो भाव उलयलो.

'आल्तो आल्तो, देंवात बेगीन.' कंडक्टर आडूलो आनी मागीर हांवें म्हजी पोटली ते चिर्गटींतल्यान भायर काडपा खातीर धुकल्ली.



५५.

# रे मना

पयर आकाशवाणी केंद्राचेर वचपाक उबें राविल्ले कडेन हांवें ताका पळयलें. तो एकटोच उबो आशिल्लो. आपले कडेनच उलयतालो, मदींच हांसतालो, मदींच दोळे बारीक करत रडटालो...

कित्याक जालो काय तो पिसो? परिस्थितीक लागून, प्रेमभंगाक लागून, काय?...

ताच्याच विचारांचे भिरकेंत हांव बशींत चडलें. कित्याक? ...कित्याक?... तकलेंत कितलींच प्रस्नचित्रां. त्या प्रस्नचित्रांक भियेवन धांपिल्ल्या दोळ्यां मुखार मनाची हय-न्हयशी हांवेंच निर्मिल्ली आकृती उबी जाली.

... हें मनूय म्हणून कितलें विचित्र न्हय? साबणाचो बुडबुडो कसो. सामकें तरल, नाजूक. येदेशें कुस्कूट जरी लागलें तरी फुट्ट

करून केन्ना फुटत सांगूं नजो. मागीर केन्ना एखाद्र्या प्रसंगाक तें बेरकीपणान वागूं, दुश्टपणा करूं, दुस्वासाक वेंगांव. पूण मुळांत तें आसता नाजूक.

हें मन जितलें नाजूक तितलें भोळेंय आसता. तें दवरता विस्वास दुसऱ्याचेर, कोणेय उतर दिलें जाल्यार ताचेर भावार्थ दवरता, कोणे नातें दाखयलें जाल्यार रोखडीच ताची गांठ मारता. माया-मोग दाखयतल्याक रोखडेंच आपलें काळीज ओंपता.

ह्या मना कडेन त्या खातीर सामकें सांबाळून वेव्हार करूंक जाय. पूण सगळींच ह्या मना कडेन बरे तरेन वागतातच अशीं ना. केन्ना केन्ना कोण ताच्या विस्वासाक तोडटा, दिल्लें उतर मोडटा, नातीं तोडटा आनी काळीजूय.

... सगळें घडटा मोन्यांनी. कारण तें मोडटा-तुट्टना कसलोच आवाज येना. आनी मोडटल्या-तोडटल्यांक तें जाणवयना. पूण ह्या तुटपाचो-मोडपाचो मनाचेर खूब परिणाम जाता. मनाच्या बोमाड्या भितर दुख्खाची वल साचून उरता. ही वल मनाक जडावन् उडयता. ताका मुक्तपणान उडपाक दिना, विचार करपाक दिना. ह्या वलीचोच घडये शेळो मांडटा आसतलो आनी मनीस ह्या शेळ्यां मदीं आपूणय चिथेता आसतलो. म्हणून तर त्या मनशा सारको...

एक दुख्खाचें किंसर म्हज्या काळजाक तोंपता अशें दिसलें ताका हांवें फाफुडलें. आनी नकळटा ओंठार मोनीच उतरां घोळयलीं- 'रे मनां... रे मनां तूं कित्याक उदास रे, मळब-निळें मेकळें...' आनी हांवें म्हज्या मनाक बळयांच भितरले भितर खुसूखुसू करून हांसयलें.



५८.

# रुखाचे हात

सदचेवरी झपझप पावलां मारीत हांव बसस्टॉपार आयलें आनी मुखा वयले दृश्य पळोवन धपक्यान थारलें. ज्या रुखाच्या आलाशिऱ्याक म्हजे सारके कितलेच प्रवासी रावताले, जो आमची वत-पावसा पसून राखण करतालो, ताकाच आयज मातये भरवण केल्लें. नव्यान बांदिल्ले इमारतीक त्या रुखाची आडखळ जाताली म्हूण...

निर्णल्ले अवस्थेंत हांव बशींत चडलें. जनेलांतल्यान भायर दिसपी रुखांक नियाळत रावलें. पयसुल्ल्यान म्हज्या कानार माणकुल्या युगाचीं उतरां सादूंक लागलीं. 'मम्मा, हें झाड आनी हे झाडाचे हात.'

ल्हान आशिल्लें तेन्ना युगा. ताणें चित्र काडिल्लें झाडाचें. म्हजे मांडयेर बसून चित्र दाखयतना ताणें झाडाच्यो खांदयो दाखोवन तांकां झाडाचे हात म्हणिल्ले. हांवें तेन्ना ताका समजायलें, तांकां हात न्हय,

खांदयो म्हणटात. पूण ताणें आपलें उतर सोडलें ना.

म्हाकाय आतां रुखाच्यो खांदयो ताचे हातूच कशे दिसपाक लागले. रूख आपले हात मळबा वटेन उबारून कितें मागता आसतले?...

मळब विश्वव्यापी. ताचे भितर आस्पावतात तारे-गिरे, सूर्य-चंद्र, दीस-रात, कुपां-वत-पावस. तांचे सेवेवरवी मळब आमकां एकचाराची देख दिता. रूख घडये हेच देखीचें दान आपल्याक मागता आसतलो. आनी म्हणूनच ताच्या आंगापांगार विवीध जातींचीं सवणीं-सावदां, किडी-मुयो व्हडा खोशयेन राबितो करता आसतल्यो. रूख आपणायता मळबाची विशालताय आनी दिता ह्या सगळ्यांक आलाशिरो. तो दिता मनीसजातीक फुलां- फळां- पानां- मुळां- साली-लाकडां आनी सावळीय बी. पूण मनीसजात कर्मकट्टी. भरभरून दिवपी रुखाचें हें रूप ताका कळचना. देणाऱ्याचे हात हजारो दुबळी माझी झोळी अशी मनीसजातीची अवस्था.

ऑफिसांत वतकच कंप्यूटरार गुगल सर्च करतना एक आगळो-वेगळो रूख दिश्टी पडलो. ज्युस्त अस्तुरे भशेन दिसपी तो रूख. त्या रुखानूय आपले हात मळबा वटेन उबारिल्ले. सृजनाचें देणें लाबिल्ली अस्तुरी आनी रूख. अस्तुरीरुपी त्या रुखाक पळयतना म्हाका ज्युलिया ए.एफ कार्नेची कविता याद जाली-

**Little deeds of kindness, little words of love**
**Help to make earth happy like the heaven above.**



५७.

# मनशाचो सभाव

वड थीर. आपलीं पाळां-मुळां खोल मातयेंत रिगयल्लो. ताच्यो कितल्योच पारंब्यो. त्योवूय वडा सांगाताक खोल खोल मातयेंत रिगतात. मनीस ह्या वडा भशेन. आनी ताचो सभाव ह्या पारंब्या भशेन. कितलेशेच पदरांचो. ताच्या अंतरंगांत खोल खोल रिगिल्लो. ताचेंच आंग जाल्लो.

कांय मनीस आसतात म्होवाळ उलोवपी, नमळायेन वागपी तर कांय रागीश्ट, तापट. ह्या लोकांक दाखय-लिपय करूंक जमना. तांच्या ह्या सभावासयत समाज तांका स्विकारता. कांय मनीस पळोवपाक रागीट दिसतात, उलयतातूय तापून पूण तांचो मूळ सभाव मोव आसता. तांच्या काळजांतूय म्होवाळ-मोगाळ उतरांचो वझरो व्हांवत आसता. तो हरशी उक्त्या दोळ्यांनी आमकां दिसना आनी अणभवूंकय मेळना. पूण वेळ प्रसंगाक तांच्या कर्तुपांतल्यान तांच्या ह्या भितर लिपिल्ल्या म्होंवाळ

सभावाचें दर्शन जाता. तेन्ना आमी अजापतांत.भायल्यान कांटयाळो, खडबडीत पणसाच्या पोटांत गोड-गोड घरे आसतात तशेंच ह्या मनशांचें. तर कांय मनीस सामकें जिबेर म्होव घेवन उलयतात. पूण भितरल्यान सामके कुस्के आसतात. कोणा कडेन कितें आनी खंय उलोवचें हें तांका बेस बरें खबर आसता. आपल्या ह्या भुलोवण्यान ते लोकांक सामकें भुलोवन उडयता. तांका नाका आसता त्या मनशांक मात ते वेवस्थित तरेन त्रास दितात. तेन्ना तांच्या सभावाचें हें आंग जर कोणीय उक्तें केलें जाल्यार बाकीचे तें कशेच्च मानूंक तयार नासतात. तांका तें खरेंच दिसना.

अश्या कितल्याशाच सभावांची मनशां आमकां आमचे दीसपट्टे जिणेंत दिश्टी पडटा. दर एकल्याच्या सभावा कडेन जुळोवन घेवप सगळ्यांकच शक्य जाता अशें ना. दर एकल्याच्या सभावाच्यो पारंब्यो पयलीं पारखूंक शिकूंक जाय. ज्या सभावाच्या पारंबेक हुमकळपाचें आसता, तिका कुशळतायेन हाताळूंक कळपाक जाय. ना जाल्यार हात सुटून केन्ना सकयल घो जायत सांगूक जावचेना. आनी पारंबीच्या फांसान घुस्मटल्लो स्वास मेकळो जांवचो ना. आंगार येता अशी दिसली ती पारंबी ल्हवूच सोडून दिवपाची कळाशीय आसूंक जाय. ना जाल्यार गरज म्हणून आसा ते परिस्थितींत त्या त्या पारंबीक घट्ट हुमकळपाची चिवटसाण आसूंक जाय.



५८.

# भूक

'दोडामार्गार एके तरणाटेचो भुकबळी' बातमी वाचली आनी मन अस्वस्थ जालें.

भूक हीं दोनूच उतरां. पूण मनशाक हालोवन उडोवपाची तांक तांच्यांत. वेंतभर पोटाच्या एका कुरकुटांत कुस्कुटा येदी ही भूक स्थापीत जाल्ली आसता. तिका वेळच्या वेळार अन्न-पाणयाचो निवेद्य दाखोवन शांत करपाची आसता. हो निवेद्य मेळ्ळोना जाल्यार मात ती चवताळटा. कुरकूट फोडून महाकाय रूप धारण करता. तिच्या हातांत येता मागीर बुद्दीचें दावें. ती तें दावें आपल्याक जाय तशें धील-घट करता. कसल्याय मार्गार बुद्दीक व्हरता.

भूकबळी-भुके खातीर गेल्लो बळी. आनी त्याच कुटुंबांतलीं हेर भुरगींय बळी वचपाचे वाटेर. तेवूय एका गांवांत?

म्हजे खातीर गांव म्हणल्यार एक कुटूंब कशें. एकामेकाच्या दुख्खांत समरस जावपी. मागीर ह्या गांवांतल्या लोकांक तांची आवतीकाय कशी कळ्ळी ना काय? काय थंयचे सगळेच लोक अशे भुकेचे वेसणेंत आडकल्ले? काय म्हजे कल्पनेंतल्या गांवांनूय कूस बदल्ल्या? ह्या भुरग्यांच्या आवयबापायन कांयच हालचाल केली ना काय? काय भिडे खातीर भुकेक धांपून दवरलें?... विचारांनी मन सामकें अस्वस्थ जालें.

'भूक म्हणचे कितें तें कळपाक जाय जाल्यार उपास कर गो' म्हजे एके इश्टिणीन म्हणलें. ताच्या उतरांची म्हाका काकूळट दिसली. 'बाय गो, समज हांवें चुलींतलें एक पेट्टें लाकूड काडलें आनी तुजे हे पोवटेर दवरलें जाल्यार तुका कशें दिसतलें?' हांवे ताका विचारलें. त्या बरोबर तें आबूज जालें. 'तुका जितली वेदना जातली न्हय ताचे परस खर आसता भुकेची वेदना. ती उतरांनी सांगपाक येना. तिचो अणभव घेतिल्ल्यांकच ती कळटा.' हांवें म्हणलें.

ताका तशें सांगतना म्हज्या दोळ्यां मुखार रेल्वे स्टेशनाचेर लोकांनी उडयल्ल्या उश्ट्यांचेर उडयो मारून मातयेंत पडिल्लें अन्न खावपी भुरगीं झळकली. तें उश्ट्याचें अन्न मेळ्ळेंना जाल्यार तिंवूय एक दीस भूकबळी जातलीं हो विचार मनांत येतकच मात जीव थरथरलो.



५९.

# भंय

'Where the mind is without fear, the Head is held high' अश्या विचारांचे रविंद्रनाथ टागोर जे शाळेंत शिकले तेच शाळेंतली ती विद्यार्थिनी. टागोरांच्या विचारांनी प्रेरीत जाल्ल्या शिक्षक वर्गा कडल्यान तिकाय तीच देख मेळपाची. पूण...

तिका मात फुडो करचो पडलो भंय नांवाच्या विराट हावक्याक. कारण सामकें सैमीक. ती अल्पवयीन विद्यार्थिनी हॉस्टेलांत रावताली. ती हांतरुणार मुतली. आनी ताची शिक्षा म्हणून मात थंयचे वॉर्डनीन ती मुताची चादर तिच्या तोंडांत पिळ्ळी...

खबर वाचून मन खूब अस्वस्थ जालें. ओगीच फाटल्यो यादी उसपूंक लागलें. तिसरेंत आशिल्लें हांव. सुमा म्हजी इश्टीण. आमी शाळेंतल्यान घरा वतना वाटेर एक व्हडलें चिंचेचें झाड लागतालें. एकदीस घरा वतना

कांय भुरग्यांक चिंचेर चडून चिंचो झडयतना आमी पळयलें. सकयल पडिल्ली चिंचेची रास पळोवन आमचें भुरगें मनूय भुल्लुसलें. म्हजी इश्टीण नाका नाका म्हणटा आसतना हांव चिंचो पुंजावंक लागलें. बोटवो चिंचेनी भरलो तरीय आस उणी जाली ना. चिंचे बोटां चोखीत आमी घराच्या वाटेक लागलीं. पूण म्हजी इश्टीण मात सामकी भियेल्लेवरी जाल्ली. आई मारतली अशें परती परती म्हणपाक लागली. 'तूं भियेनाका. हांव येता तुजे आईक सांगपाक' म्हूण हांव ताका थातारपाक लागलें. म्हाका घेवनच तें घरांत भितर सरलें. ताची आवय चुली कडेन बसून नुस्तें तळटाली. तिका सांगपा खातीर हांव तोंड उगडपाचेंच आसा. ती झुप्प करून उठली आनी हातांतलो गरम कायलाथो तिणें म्हज्या इश्टिणीच्या जांगडार दामलो. ओंठ दामून हुंडकेत तें सकयल जमनीर बसलें. हांव मात सामकें हादरून गेल्लें. भंयान म्हजे हात-पांय थरथरलें. तशेंच झेलपटत जीव आसल्यार भीक मागून खायत म्हूण हांव घरा कडेन धांवत सुटलें.

चुकी खातीर असली ख्यास्त मेळटली हो भंय सुमाच्या मनार सासणाचो उरलो आनी म्हजे खातीर ताच्या जांगडार दाग ही खंत म्हज्या मनांत सासणा खातीर उरली.

ग्रॅज्युएशन जातकच तें लग्न जालें. ताकाय भुरगीं जालीं. हालींच ताच्या दुसरे धुवेचें लग्न जालें. पत्रिका दिवंक तें आमगेर आयिल्लें तेन्ना सहज ते गजालीची खवळी निखळ्ळी. तेन्ना सुमान म्हणलें, 'ह्या भंयान म्हजें भुरगेपण करपयलें. हांवें मात म्हज्या भुरग्यांक भंयमुक्त जीण जियेवंक शिकयलां.'

'सत्यमेव जयतें'त न्यायमुर्ती धर्माधिकारींचीं उतरां आयकलीं. 'Fear is the darkroom wherein negatives are developed' तेन्ना म्हाका परतून सुमाची याद जाली.

सुमा ह्या डार्करूमांतली नॅगेटिव्ह. पूण ताणें आपल्या भुरग्यांचे फोटे मात बरे चकचयाळ डेव्हलॉप केल्ले.



८०.

# न्यायदेवता

न्यायदेवतेच्या दोळ्यांचेर पट्टी पळोवन ल्हान आसतना एकदां हांवें बाबाक विचारिल्लें, 'बाबा, ती दोळ्यांक पट्टी कित्याक बांदता?'

'तिणें पक्षपातीपणा करचो न्हय म्हणून' बाबान जाप दिल्ली. त्यावेळार म्हाका तें खरेंय दिसलें. न्यायदेवतेक एके आदराचे नदरेन हांव पळोवंक लागलें.

'अज्ञानांत सूख आसता' म्हणटात. पूण आपूण आनी आपल्या भोवतणच्या समाजा विशीं जाण येत गेली तशें समाजांतल्या बड्या धेंडा वटेन न्यायदेवतेचें दालें कशें झुकता तें लक्षांत आयलें आनी हें अज्ञानूय पयस जालें.

म्हाका मागीर न्यायदेवता दोळे आसून मुद्दम कुड्डेंपण पांगरिल्ल्या गांधारी भशेन दिसपाक लागली. न्याय जावं अन्याय, म्हाका तो दिसना

अशें आपलें समादान करपी गांधारीवरी जाता तें जावं, जातलें तें म्हजे नदरे असवडी जातलें म्हणून न्यायदेवतेन दोळ्यांक पट्टी बांदल्या आसतली अशें म्हाका दिसपाक लागलें. तिचे नदरे असवडी आतां चोरा-खुन्यांकय आश्रय मेळपाक लागलो. पूण तिका ताचें चडूच पडलां. दोळे बंद आसात न्हय तिचे.

न्याय दिवपी न्यायदेवता. न्याय दिवप न्यायदेव अशें आमी म्हणनात. न्यायदेवतेची प्रतिमाय अस्तुरेच्या रुपांत दाखयल्या. ते अस्तुरेची व्यथा, तिचे भोग तिकाय कळटा आसतलें अशें गृहित धरूं येता. जाल्ल्या अर्भका पसून जाण्टया बायलो मेरेन जातल्या बलात्कारांनी तिचें काळीजूय कळवळून येता आसतलें अशें मानू येता. आपल्या भुरग्याच्या खुन्यांक कसलीच ख्यास्त जायनासतना ते निर्दोश सुट्टात तेन्ना आवयचें विकळाप करपी काळीजूय ती अणभवू शकता अशें समजूं येता.

मागीर कित्याक दिना ती निपक्षपातीपणान न्याय? कित्याक झुकता तिचें दालें धनाच्या पुजाऱ्यां मुखार, नितीचे मानगुटीक धरून आपलें शक्तीप्रदर्शन करपी राजकी, अराजकी व्यक्तीं मुखार.

आतां आतां म्हाका दुबाव येवंक लागला. नितीन चलपी, तरीय अन्याय सोंसपी लोकांच्या नदरेक नदर मेळोवपाचें धाडस नाशिल्ल्यान न्यायदेवतेन दोळ्यार पट्टी बांदूंक ना मूं?



९१.

# देव

देव म्हणल्यार काळजांतली भावार्ताची एक ठेव. तुज्या काळजांत वसपी अनामिक अशी शक्त जी वेळा-काळार तुजे भितरल्यान तुका जागयत रावता. धीर दीत रावता. निर्शेनासतना मुखार सरपाक प्रोत्साहीत करीत रावता. जो मेरेन तुज्या विस्वासाची म्होर ह्या ठेवीचेर आसतली तुका भायर देवाच्या नांवान जावपी भायल्यो बाद्दा जांवच्यो नात.

कांय जाण देवाक सैमाच्या वेगवेगळ्या रुपांत पळयतात, तर कांय जाण मोन्या सवणीं-सावदांत. कांय जाणांक मनशा भितर देवाचें रूप दिसता जाल्यार कांय जाण मुर्तीक पुजतात. देवाचे संकल्पनेक खंयचेंय रूप दियात त्या रुपा वयलो तुमचो विस्वास दृढ आसूंक जाय. हो विस्वास जेन्ना हालता तेन्नाच जाता देवा-धर्माच्या नांवान झगडीं-झुजां. काळजातल्यो देवा विशींच्यो भावना दुखावल्यो ही सबब मुखार

करून मनीस कसलीं कसलीं दानवकृत्यां करता तेन्ना अजाप दिसता. तुमच्या काळजांत देव आसा जाल्यार दानवान थंय केन्ना प्रवेश केलो? आनी देव आनी दानव एकठांय केन्नाच रावनात. पुराणकाळांतलीं तांचे मदलीं झुजांय फामाद. तरीय देवाच्या नांवान दानवाचीं कर्तुपां. देवाक वाचोवंक दानवांची मजत घेतिल्लेवरी दिसता. तुमचो तुमच्या काळजांतल्या ठेवीचेर पुराय विस्वास नासता म्हूण तर अशें घडटा.

तुमी काळजांत कोरांतून दवरिल्ल्या खंयच्याय रुपांतल्या देवाक कोणूच भायल्यान छिन्नी-हातोडी घेवन मोडूंक शकना. काळजांतली ही ठेव शाश्वत. ती पळयनासतना अशाश्वत गजाली फाटल्यान हुर्र जावन दानवी वृत्ती आपणावपी मनीस पळयतकच ताचे चुरचुरे दिसता.

तुमी उजवातीचे पुडे, दिसाळीं, जात्रेचीं आमत्रंणां, लग्न पत्रिका, कॅलेंडरां हाचेर देवाचे फोटो छापतात. कांयच हरकत ना. पूण ह्यो वस्तू वापरून जातकच वा पोरण्यो जातकच तांचेर आशिल्लीं देवाचीं चित्रां मागीर खाची कोनशाक रस्त्यार लोकांच्या पांया पोंदा पडटात तेन्ना तुमच्यो भावना कितें आसतात? त्यो दुखावनात ? काय काळजांत फकत मखर आनी भितर मात पोकळ अशी परिस्थिती.

पयलीं तुमच्या देवाक, मागीर तो खंयच्याय रुपांत आसूं तुमच्या काळीज शिंपयेंतलो मोती कसो जपात. कसलीच भायली बादा तुमच्या काळजांतल्या देवाक आफुडची ना.



६२.

# चिरोट्यो

बशींतल्यान देंवता थंय आसा येदोवेळ कुपांनी लिपिल्ल्या पावसान घोऽऽ करून म्हाका भिजयलें. तशें हांव लागींच आशिल्ल्या एका दुकानाच्या पाख्यां पोंदा आलाशिरो घेवंक गेलें. इतल्यान गरम-गरम भज्यांचो वास नाकांत रिगलो. तेन्ना कळ्ळें तें दुकान न्हय हॉटेल. हांवें भायल्यानूच भितरले आलमारीचेर नदर मारली. बटाटवडे, मिरच्यो, सामोशा, भक्कमपेडे आनी...नदर थंयच थिरावली... त्या ताटांत तांकां एकाक एक बरें दाळून दवरिल्लें. केशरी रंगाच्यो... चिरोट्यो.

...म्हजे नदरे मुखार बाप्पा उबो रावलो. बाप्पा म्हजो व्हडलो काका. शाळेचे मदले सुटयेंत शाळेच्या दुस्रा कडेन दुलबाच्या हॉटेलांतल्यो चिरोट्यो घेवन उबो रावपी. केशरी रंगाच्यो, साकर मारिल्ल्यो, तोंडांत घालताच विरगळून वचपी चिरोट्यो आमी तीगूय भावंडं घोस्तान खातालीं.

त्या वेळार कळ्ळेंना पूण जाण येता तशें तशें म्हाका त्या चिरोट्यांत थपथपिल्ली बाप्पाची माया दिसून आयली. ते मायेची गोडसाण त्यो चिरोट्यो चड रुचीक करताली.

बाप्पान त्या काळार आतंरजातीय लग्न केल्लें आनी त्या काळांतल्या लोकां खातीर तो अक्षम्य गुन्याव आशिल्लो. दुर्दैवान बाप्पाक भुरगींय जालीं ना. पूण बापायची माया ताचें काळीज भरून व्हांवताली. ताचो प्रत्यय आमकां खिणाखिणाक येतालो.

बाप्पान आमकां खूब खावंक दिलें. आंबे, पणस, काजू... पूण त्या चिरोट्यांची सर तांकां नाशिल्ली. बाप्पा वर्सूयभर मदले सुटयेंत चुकनासतना चलत येवन त्यो चिरोट्यो आमकां दितालो आनी आमकां त्यो खातना पळोवन तृप्त जावन वतालो. बाप्पा आयज ना. पूण आमचे खोशयेंत आपली खोशी सोदपी बाप्पाचो मोग म्हज्या काळजांत सासणाचो घर करून रावला. त्या घराच्या एका कुरकुटांत चिरोट्योय आसात. अदीं मदीं केन्नाय, खंयूय चिरोट्यो पळयल्यो काय म्हज्या काळजातलें बाप्पाच्या यादींच्या घराचें दार उगडटा आनी चिरोट्यांचो सुवाद काळीज गोड करीत वता.



६३.

# आत्मसम्मान

संवसारांतली सगळी संपत्ती एके वटेन आनी दुसरे वटेन आत्मसम्मान दवरलो जाल्यार आत्मसम्मानाचें दालें वयर उरतलें. हो आत्मसम्मान म्हणल्यार कितें हाचो अणभव म्हाका सामको ल्हान पिरायेर आयिल्लो.

पयलीं आमी भुरगींय हळदीकुकूम करतालीं. हांव म्हजे चुलत भयणी बरोबर ताचे इश्टिणीगेर हळदीकुकूमाक गेल्लें. त्या इश्टिणीन सगळ्यांक कुकूम लायलो, तिळगूळ-चणें दिले आनी बऱ्यो शिसपेन्सिल्यो सगळ्यांक वाटल्यो. पूण म्हाका मात कुकूमय लायलो ना आनी शिसपेन्सीलय दिली ना. म्हाका सामकें रडपाक येवंक लागलें. त्या इश्टिणीन म्हजें थंयसरलें अस्तित्वच न्हयकारिल्लें. म्हज्या आत्म-सम्मानाक दुखयल्लें. कितलो तेंपूच हो जाय भळभळटालो.

ह्या आत्मसम्मानाचें काळजा कडेन सामकें लागीचें आनी घट्ट नातें. हो आत्मसम्मान म्हणल्यार मनशाच्या अस्तित्वाची जाणवीकाय आनी तो दुखावप म्हणल्यार ताच्या अस्तित्वाकच न्हयकारप. आनी हें अस्तित्वूच जेन्ना न्हयकारून ताका अस्तित्वहीण करपाचो यत्न जाता तेन्ना ताचें काळीज दुखावता, तडफडटा. ताका अस्वस्थ करता. ताच्या मनाक दुर्बळ करता. आनी आपलींच मनशां जेन्ना ह्या आत्मसम्मानाक कोंचायतात तेन्ना तर ताचें काळीज सामकें विस्कटावन वता.

अशें म्हणटात अणभव हो एक बरो शिक्षक पूण ह्या अणभवाची फी मात खुबूच म्हारगेली. काळीज कापपी. आनी असो हो खर अणभव हांवें जायतेंदा घेतला. जिणेरुळावेल्यान संवसाराची गाडी चलयतना दर एका बोगद्यांत ह्या आत्मसम्मान हिणसावणेचो काळोख अणभवला. तडफड-घुस्मट जाल्या म्हज्या मनाची. कांय लोक आत्मसम्मानाक अहंकाराच्या नदरेंतल्यान पळयता. पूण अंहकार म्हणल्यार फाजील अभिमान. स्वता विशीं, स्वताच्या कर्तृत्वा विशीं फाजील अभिमान. पूण स्वताच्या अस्तित्वाक जपपी स्वाभिमान ह्या अहंकाराच्या सामको उरफाटो.



## ६४.

# सुखाची कविता

परत सरकारान प्लास्टिक पोतयांचेर बंदी घाली आनी परसरकार सामान कागदाच्या पोतयांनी नाजाल्यार पेपरांनी बांदून दिवंक लागले. आनी म्हजे सारक्यांचें फावलें. अश्या पेपरांच्या कुडक्यांनी आयिल्ली बातमी काम करता करता नदरेखाला घालपाची म्हजी संवय परती सुरू जाली.

त्या दिसा अशीच एक कविता नदरेंत आयली 'दुधात मीठ तसं जिवनात दुःख'.

म्हजे नदरे मुखार तेन्ना मीठ पडून फुटिल्लें दूद दिश्टी पडपाक लागलें. दूद फुटलें काय तें पेड्डुर जाता तशें जिणेंत दुख्ख आयलें म्हणटकच जिणूय पेड्डुर जाता अशें घडये कवयित्रीक म्हणपाचें आसतलें. अशेच तरेचीं वाक्या हांवें खूबश्या लोकांच्या तोंडांतल्यान आयकल्यांत.

हय, दुदांत मीठ जावं लिंबाचे आंबट थेंबे पडले जाल्यार तें फुट्टा. पूण तें पेड्डेर जायना. त्या फुटिल्ल्या दुदाचे कितलेशेच जिनस करूंक मेळटात. देखीक चायो-बोयो, पनीर, सोय-गोड घालून आटोवन हालवो, रसगुल्ला आनी गुलाबजाम. हांव जाल्यार साकर घालून ताची बर्फी कशी करतां आनी घोस्तान खातां. बरी लागता.

जिणेंत दुख्ख आयल्यार जीण पेड्डेर जाता अशें कवयित्रीक दिसता. अर्देअदीक खरेंय आसत. पूण सामकें खरें न्हय. दुख्ख हें परतें परतें साणीर झरोवपा खातीर आसना. जनेला वयलो पड्डो कडेक काडटकच भायलो उजवाड, वारे भितर येता. तशेंच हें दुख्ख मातशें कडेक काडपाचो येत्न करचो.

म्हाका फुटिल्ल्या दुदाचीं गोड खाणां करपाची कळाशी बरी सादल्या. हे कळाशींतल्यानच हांवें दुख्खाकय गुठलावन ताका बरो हांशाचो वर्ख बी लावन तें खाण पचोवपाचो यत्न केला. आनी तो फळादीकय जाला.

ते कवयित्रीक ही म्हजी जाप-

**दुधात मीठ, बनवा गोड गोड मिठाई**
**जिवनात दु:ख  तरी सुखी, हसत जो राही**



८५.

# बायल म्हणल्यार...

'बायल म्हणल्यार धर्तरिचें रूप. पूजनीय. बायल म्हणजे.... 'म्हजो इश्ट बायल म्हणल्यार ताचे नदरेन कितें हाची फोडणीशी करतालो. आनी हांव मात ताचीं तीं, म्हजे कडेन फाटीं उलयल्लीं उतरां याद करतालें. 'बायलो लग्ना पयलीं कल्पवृक्ष माडावरी आसतात आनी लग्ना उपरांत वडावरी जातात'

ताणें तीं उतरां खंयच्या अर्थान म्हणलीं खबर ना. पूण म्हाका आपलें सदचे भाशेन ताणें म्हजे सारकिल्या, लग्न जावन मोट्ट्या जाल्ल्या बायलेचीं फकांडां केल्या आसतलीं अशें दिसलें.

व्हडल्या वडा कुशीक आशिल्ले कितलेशेच माड हांवें दोळ्यां मुखार हाडून पळयलें. कल्पवृक्ष माड, आपल्या आडसरांच्या उदकान तान भागोवपी, कातलेन भूक भागोवपी, आपल्या चुडटांच्या मल्लांनी

आलाशिरो दिवपी, ताचे वांशे, चुडटांचे व्हीर, पोंयो, नाल्ल, शेवकां सगळ्यां सगळ्यांचो उपेग मनशाक जाता. माडाक त्या खातीर कल्पवृक्ष म्हणटात. पूण एके आंकवार चलयेक कल्पवृक्ष माडाची उपमा दिवन ताका कितें म्हणपाचें आशिल्लें काय?

खरें म्हणल्यार लग्नां उपरांत बायल खऱ्या अर्थान तिच्या संवसारा खातीर कल्पवृक्ष आसता. आपल्या संवसारा खातीर ती आपली पुराय जीण पणाक लायता. आपल्या सपनांचीं चुडटां, हांवेसाची शेवकां जीं तिणें इतलो तेप ज्या मनांत सांबाळिल्लीं आसतात, त्या मनांत ल्हवूच केन्ना आपलें मानिल्ल्या मनशांची सपनां भररसतात तें तिका कळचना. तांची सपनां आपल्या सपनांच्या चुडटांनी नकसूद विणून तांचीं मल्लां करपाक तिका पयलीं आपलीं सपनांचीं चुडटां मारचीं पडटात. कुडीपसून वेगळीं करचीं पडटात. तिचें मन आपल्या संवसारा खातीर आसताच, तिची आख्खी कुडूय संवसारा खातीर झरता. आपणे जपिल्लया सपनांक-हांवेसांक कापून, तोडून जीण पुराय संवसाराक ओंपपी हो कल्पवृक्ष आपले कडेन सारको लक्ष दिवंक पावना आनी मागीर कुडीन जाता वड. पूण हो वडूय आपलें कर्तव्य करीत रावता. आपलीं पाळां-मुळां नात्याच्या मातयेंत घट्ट रोमून रावता. आनी आपल्या पारंब्यांनी हीं नातीं सासणां खातीर जोडून दवरता, आपल्या मायेच्या विशाल सावळेची शितळसाण दियत.



३३.

# फाटीक फाट

त्या दिसाची सकाळ उदेलीच ती बिल्डिंगे सकयल्यान आयिल्ल्या कोणाच्या उलोवपाच्या आवाजांत. आपल्या भुरग्यांक शाळेंत पावोवपाक वचपी दोन बायलो ही गजाल उलयताल्यो. 'कितें बाये म्हणून विपरीतूच. फाटीक फाट लावन आयिल्ली भयण. पूण दुस्माना परस दुश्ट कशी वागली. अशें म्हणून जितेंच मारप?– एकली.'

'सदांच झगडटालीं खंय तीं दोगांय'– दुसरी फुडें उलयली.

म्हजें मन तांच्या उलोवण्यान उकलून आयलें. भयणीन भयणीक, भावान भावाक मारलें जावं आवयन भुरग्याक, पुतान बापायक मारलें असल्यो बातम्यो हालींसरा खुबूच आयकूंक येवपाक लागल्यात. एकमेका विशीं आदर, प्रेम नानपयत जायत वचपाची ही कुरू. फाटी वयलीं भावंडां एकमेका कडेन झगडटात तशीं एकूय जातात खरीं पूण तरींय

तांकां फाटीक फाट लावन आयिल्लीं म्हणलीं काय मातशें खटकता
कित्याक म्हणटात आमी तांकां फाटीक फाट लावन आयिल्लीं?
काळजाक काळीज लावन आयिल्लीं कित्याक म्हणनात काय? फाटीक
फाट करून रावले काय पयसावो दर्शयता. एकामेकाच्या विचारांत,
आचारांत वेगळेपण दर्शयता. काळजाक काळीज लावन आयल्यांत अशें
म्हणिल्लें जाल्यार आतां घडटात तश्यो घडणुको घडच्यो नासल्यो काय?

फाटीक फाट लावन आयिल्ल्या भुरग्यां मदीं वाडिल्लें हे
पयसाव्याचें प्रमाण पालकां कडेन बोट करिना मूं? चार वण्टी मदीं
आशिल्ल्या नात्यांच्या मनशां मदींय कितल्योशोच अभेद्य अश्यो, सटसट
दोळ्यांक दिसना अश्यो वण्टी उब्यो रावपाक लागल्यात, ताचें कारणूय
आमी पालकूच न्हय मूं?

संवसार ग्लोबलायज्ड जाला खरो पूण निखटो तंत्रज्ञानाच्या
आदारान. ह्या तंत्रज्ञानान मनशाच्या काळजाच्या स्पंदनाक भारून
उडयलां. आतां भाव-भावनांच्या स्पंदनांची टिकटीक, तंत्रज्ञानाचे धडधडी
पोंदा चेपून-चिड्डून गेल्या. काळीज आतां फकत एक माक्न. तें माक्न
तकलेक जी ऑर्डर सोडटा तशी तकली वागता. काळजाच्या ह्या माक्नान
आतांचे पिळगेक फाटीक फाट लावन उकत्या मळार सोडून दिलां.
जायत आमच्यांनी तांकां परतें काळजाक काळीज मेळोवपाची, भाव-
भावनांची भास शिकोवपाक?





नयना आडारकार

**प्रकाशीत साहित्य**

**कविता** - १) प्रतिमा २) मनसांवर ३) किसरां

**कथा** - १) स्पंदन

**ललीत निबंद** - १) पोवनां २) चांफो

**बाल साहित्य** - १६ पुस्तकां

**साहित्याचो आसपाव -**

१) महाराष्ट्र बोर्ड उच्च माध्यमीक विद्यालय अभ्यासक्रम
२) गोवा बोर्ड उच्च माध्यमीक विद्यालय अभ्यासक्रम
३) गोवा युनिव्हर्सिटी बीए अभ्यासक्रम

**पुरस्कार -**

१) गोंय सरकाराचो यशदामिनी पुरस्कार
२) केरळ प्रचार सभेचो सरस्वतीबाई साहित्य पुरस्कार
३) डॉ. टी. एम. पै फांवडेशन प्रशस्ती पुरस्कार
४) कोंकणी अकादेमी गोवा साहित्य पुरस्कार
५) कोंकणी भाशा मंडळ साहित्य पुरस्कार
६) कुडचडें साहित्य केंद्र बाल साहित्य पुरस्कार
७) विम्ब प्रकाशन बाल साहित्य पुरस्कार
८) अखील भारतीय कवी संमेलन हैदराबाद डॉ. चंपाप्रसाद साहित्य पुरस्कार
९) अखील भारतीय कवी संमेलन गुजरात मान अरविंदाश्रम पुरस्कार
१०) अखील भारतीय कवी संमेलन कविता सेवा पुरस्कार
११) अखील भारतीय हिंदी साहित्य संमेलन गौरव पुरस्कार

**मित्र समाज प्रकाशन**

२/४५/१, शनि मंदिर शेजारी, तलवडा वेरोडा,
कुंकळ्ळी, सालसेत, गोवा - ४०३७०३
मोबा. नं. ९८२३८१३०३९, ९०२८३१२९३२

